परत एकदां

(एकांकी झेलो)

PARAT EKDA

(One Act Play)

विकर्ण खांडेपारकर

By Vikarna Khandeparkar

प्रकाशन क्र : 2



पयली उजवाडावणी : 2014

उजवाडावपी :
वृद्धी प्रकाशन
खोर्ली - तिसवाडी -गोंय
9850461092

अक्षर जुळवणी :
जय नायक
भाटलें- पणजी- गोंय.

छापपी :
ऋतु ऑफसेट
वळवय, फोंडे - गोंय

मुखचित्र :
वृद्धी विकर्ण खांडेपारकार

मोल : ₹ 100 ।-

(हें पुस्तक कला आनी संस्कृती खात्यान ''लेखका खातीर अर्थीक आदार'' येवजणे खाला उजवाडायलां)

## अर्पणपत्रिका

जिवाक खूब त्रास जातात तेन्ना मनीस वा खंयचोय जीव आपल्याच विश्वात, जिवीतांत घुस्पता... निरशेता... वाट चुकता, मात त्याच वेळार ताका, त्या जिवाक जर सारकी वाट... बरें मार्गदर्शन मेळत जाल्यार तो निरशेल्लो मनीस... आपलें जिवीत खूब सोबीत करूं शकता.

अशीच म्हजी सावळी जावन म्हाका बरो मार्ग दाखोवपी म्हजो इश्ट सर, **जॉन आगियार** हांकां ''परत एकदा'' हे पुस्तक ओंपतां.

# मनातलें

सात वर्सां ट्राफीक पुलिशेंत नोकरी, दरेका मोडणार नवे मनीस... नव्यो खबरी... नव्यो वळखी जाताल्यो. एका दिसा असोच एका मोडणाचेर ड्युटेक आसतना 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचो संपादक मेळलो. तांणी म्हजी वासपूस केली. उलयतां उलयतां हांवें 'हावूय कवनां, कविता करतां' म्हणपाचें सांगून उडयलें. 'तशें जाल्यार त्यो हाडून सुनापरान्ताचे कचेरेंत हाडून दवर' अशें तांणी सांगलें.

म्हाका भोव खोस जाली. दुसऱ्याच दिसा त्यो संपादकांक धाडून दिल्यो. आतां मेरेन ह्यो कविता, कवना फकत म्हजे पुरत्योच मर्यादीत आसल्यो. सुनापरान्त दिसाळ्यान तांकां वाट मोकळी करून दिली. त्यो छापून आयल्यो त्याच दिसांनी आनीक एक गजाल घडली. कवी, लेखक तशेंच 'उगते मळब' संस्थेचे अध्यक्ष भरत नायक हांचो म्हाका फोन आयलो. तांणी कवी संमेलनाचें आपोवणे दिलें. म्हजे पाय आपसुकूच संमेलनाचे दिशेन वळ्ळे. माचयेरूय उबे रावले. सगल्यांनी उर्बेभरीत येवकार दिलो.

उगत्या मळबाचे भरत नायक, सुनिल पालकार आनी हेर वांगड्याची म्हाका सदांच उर्बा मेळ्ळी. तांचोच आदार आनी आशिर्वादांक लागून 'रंग जिणेंतले' हो म्हजो पयलो कविता झेलो उजवाडाक आयलो. कवी म्हणून हांव पर्जळ्ळों...

म्हजें कविता रचप चालूच आसलें... तातूंतल्यान एका दिसा ट्राफीक पुलिसांचेरूय कविता बरोवची अशें दिसलें. पेन, चोपडी घेवन बसलों. पूण

तकलेंत अक्षरूय येना जालें. विशय व्हड आसलो. एके कविते खातीर
म्हणून तकली फोडपाची? विशय सोडटलों म्हणल्यारूय सुटनासलो. एक
नवीच कल्पना मनांत आयली. होच विशय मातसो वाडयलो जाल्यार क
सुवातेर 'नाटकुलें' जल्माक येतलें हो विचार ठाम जालो. वेळ वगडायन
पेन हातांत घेतलें आनी 'हॅल्मेट आनी ट्राफीक' हें नाटकुलें तयार जालें
तरेन म्हजें पयलें नाटकुलें पुराय जालें.

मुखार म्हजी बदली जाली. कामाची सुवात बदल्ली. केन्ना इस्पि
जाल्यार केन्ना हेर कचेऱ्यांनी येवप-वचप जावंक लागलें. असोच एका
'मानसीक रोग आनी निदान' इस्पितळांत पावलों. थंयच्या मनोरूग्णांक प
काळजाक वेदना जाल्यो. तांच्यो हालचाली, सोयऱ्यांचें दुख्ख, दोतोर
नर्शी तांचे खातीर घेतात ते कश्ट, हें सगलें पळोवन काळजाक पीळ प
थंयच एक विचार कीट जावन गेलो. हे दुयेंती खरेपणीच पिशे आसतात
हो समाज, भोवतणच्या वातावरणाक लागून ते अशे वागतात? घरा येव
हातात घेतलें. दोन दिसांनी 'पिसो खंयचो' ही एकांकी पुराय जाली...

म्हजी घरकान्न टी. बी. इस्पितळांत काम करता. ती घरा आसता
अदींमदीं थंयचे रूग्ण, तांचीं दुयेसां हांचेर पोटतिडकीन आमका सांगता.
रूग्ण अमक्या दुयेंसान मेलों, तो तमक्या दुयेंसान मेलो, हाका अस्थमा,
टी. बी. आनी खूब कितें...

अशाच एका दिसा तर तिणें एचआयव्ही एडस् ह्या दुयेंसा विशीं अ
पुराणूच सांगलें. हें दुयेंस जाता कशें, तें टाळप कशें... अशें खूब कितें
आमकां सांगलें. म्हाकां केन्नाय ह्या दुयेसाचेर कविता बी करची अशें दिस
पूण सारको विशय सापडूंक नासलो. ह्या विशयाचेर बरयतलों जाल्यार
चड लागतलीं ही जाणीवूय आसली. एका शांत दिसा हीं सगलीं पात्रां जुव
आनी 'परत एकदां' ही एकांकी जल्माक आयली.

ह्या ल्हानशा पुस्तकांत 'ट्राफीक आनी हॅल्मेट' आनी 'परत एकदां
एकांकींची लांबी हावें मर्यादीत दवरल्या. ती वाडूंक शकतली हें हावें त
दवरलां.

बऱ्याच फावटीं कामाचेर त्रास जाताले. पूण दर फावटीं म्हाका नवें बळगें दिवपी, कानांत चार बरीं उतरां घालून सांबाळून घेवपी म्हजे सर जॉन आगियार हांचो हांव जीणभर उपकारी. तशेंच अक्षर जुळवणी करपी भौ. जय नायक हाणीं लिखाणांतल्यो चुकोय सुदारून चड आकर्शक आनी रोसाळ करपाक मोलाचो हातभार लायलो म्हूण तांचोय उपकारी.

असो हो एकांकी झेलो आयज तुमच्या हातांत दितना काळजाक उपाट खोस भोगता. ही खोस तुमचे वांगडा मनोवपाक आशिर्वाद दिवचें अशें श्रीसरस्वतीदेवी आनी म्हजो कुलदेव श्रीमहागणपती कडेन मागतां.

– विकर्ण खांडेपारकार

# आंवाठ

कांय जाणांचें मन खंयच लागना. घरांत बसल्यार उबगण येता, बसल्यारूय उबगण येता, रेडिओ आयकून, टीवी पळोवन उबगण येत भायर सरतात. देवळांत वतात, बाजारांत वतात. मात थंयूय उबग म्हणल्यार उबगण येता. मनाचेर ताबो नासता तेन्ना मन मनशाक अशें न मात मनाचेर ताबो दवरीत जाल्यार मनीस बरें कार्य करूंक शकता.

एका जाग्यार बसून 20-30 पानां बरयतलो जाल्यार मनाचे ताबो आसचो पडटा. नोकरी करपी मनशाक हें बरेंच कठीण जाता. पूण न्हय. नोकरी करून पुरो जावन घरा येतकूच आनीक कांयच करचेंशें आपूण नोकरी करतात होच व्हडलो पराक्रम अशें जांकां दिसता ते एका बसून एका विशयाचेर चिंतन करूंक शकनात, देखूनच कांयच करूंक प आमी जें कितें करतात ताची पुर्वतयारी आमचें मन करता. उपरांत आमी लागतात.

मनाचो घोडो एकदां ताब्यांत आयलो म्हण्टकूच ताका लगाम आनी जाय तेन्ना जाय तसो वापरचो. ताका खुंटयेक बांदून नोकरी धंद्याच करूं येता. तो खुंटये भोंवतणी घुंवत रावतलो. रांदता, जेवता, न्हिदत घरांतली सगलीं कामां करता तेन्ना लेगीत आपल्या ताब्यांत उरतलो. हे जमलें ताणी खूब कार्य केलें. विकर्णाक हें जमलां आसतलें.

सैमीक मरण सगल्यांक येता. ते भायर आड मरण म्हणून एक आसता. घडे भरचे आदीच तें मनशाक व्हरता. ते म्हणल्यार खून, अपघा दुयेंस. ह्या तिनूय विशयांचेर समाजाक सादूर करचे खातीर लेखकान ब

हीं तीन नाटकुलीं. वेसनांत घुसपटिल्ल्या रोग्याचें मरण म्हणल्यार एका अर्थान आत्महत्याच म्हणू येता. कारण आपणाक कॅन्सर, एड्स वा असलें भिरांकूळ दुयेंत जातलें हाची जाणीव आसून पसून तो स्वताक वाटावंक शकना. वेसनां सोडूंक शकना. दुसरें म्हणल्यार येरादारीचे नेम पाळिनासतना वाहनां चलोवन अपघातान मरण येवप. हीय एके तरेची आत्महत्याच. कारण येरादारीचे नेम पाळ्ळेनात जाल्यारर अपघात जावपाची शक्यताय आसा हें वाहन चलोवप्याक खबर आसता. पूण जाणा जावन तो मरणाचे दाढेंत वता तेन्ना तो आत्महत्याच करता अशे म्हणूया. खून हो प्रकार आत्महत्येंत मोडलोना तरीय तें आडमरणूच. ह्या तिनूय विशयांचें नाट्यांतर करतना लेखकान भोवूच सादुरकाय बाळगिल्या. ताका लागून पळयतल्याक त्यो प्रत्यक्ष घडिल्यो घडणुकोच अशें दिसता. तातूंतलीं पात्रां, संवाद आनी घडणुकोच घडणुको इतल्यो वास्तव जाल्यात की, नेपथ्य आपसुकच दोळ्यांमुखार उबें रावता.

दोतोरकी म्हणल्यार दुयेंतीक दुयेतांतल्यान मेकळो करपाचो वेवसाय. पूण तोच दोतोर जर बेकायदेशीरपणान आनी खूप सादुरकायेन, कसलोच पुरावो दवरिनासतना पेशंटाचो खून करून स्वताक प्रतिशठीत म्हणून मिरयता, तेन्ना ताका जाग्यार हाडपाक लेखकाकडें एकूच उपाय उरता. हो उपाय कसलो तें लेखकान 'हुशार पिसो' हे एकांकीत दाखयलां.

येरादारीचे नेम मनशाच्या बऱ्या खातीरूच तयार केल्यात. पुलिसांच्या फायद्याक न्हय. हॅल्मेट नासत जाल्यार चलोवप्याचीच तकली फुट्टा. पुलिसांची न्हय. अशा येरादारी नेमाचें म्हत्व दोखोवन दिवपी एकांकी म्हणल्यार 'हॅल्मेट आनी ट्राफीक'.

आयचे वाडटे येरादारीचे धांदळींत चलोवप्यानूच न्हय तर रस्त्या कुशीकच्यान चलपी मनशानूय येरादारीचे कायदे समजून घेवंक जाय. तशेंच दोतोराचे दावपेंच कळपाक थोडी जाणविकाय आनी शिटुकसाण आसूंक जाय. दोतोर कसलें वखद दिता, कित्या खातीर दिता, कसलें इंजेसांव तोंपता. ताचो उपेग कितें? हें दरेकल्यान विचारून घेवंक जाय. तंबाकू खाल्ल्यार जावपी परिणाम, दुयेंसाची गंभीरताय तशेंच पिडेस्तांक समजावपाची गरज आनी गिन्यान

दर एकल्यान शिकपाक जाय.

ह्यो तिनूय एकांकी लोकहिताच्योच आसात. आयच्या ज्वलंत आ
गंभीर विशयांचेर वाचप्यांचें आनी प्रेक्षकांचें लक्ष ओडपी आसात. देखून हातूंत
एखादी जरी एकांकी खंयचेय माचयेर उबी केली जाल्यार प्रेक्षक तटस्थ जाव
पळयतले हातूंत दुबाव ना.

एका पुलिसानूच समाजाक शिकवणी दिवपाक बरयिल्ल्यो ह्यो ति
एकांकी. समाज सुदारचो ही पुलिसांची धडपड आसता. कोणें कोणाक दुखोव
न्हय. कोण त्रासांत पडचो न्हय म्हणून तांचे यत्न आसतात. खून, बलात्का
चोरयो जावंच्यो न्हय अशें ताका मनासावन दिसता. ते खातीर ते गुन्यावकारां
सोदून काडून बऱ्या मार्गार हाडपाचे उपाय करतात. पूण एखाद्यान गुन्यांव कर
आदीच ताका समज दिलो जाल्यार तो गुन्यांव करूंक पावचोना. तेच दिशे
विर्कणान हें पावल मारलां. वेसनां कित्याक वायट?, सुडबुद्दीन वागलो जाल्य
कितें जाता? तशेंच येरादारीचे नेम कित्याक पाळूंक जाय?, हें लोकांक आदीं
पटोवन दिल्यार जायते गुन्यांव आनी अपघात उणे जातले. देखून ताणें ह्या तिनू
गुन्यांवकारांक आपल्या नाटकुल्यांतल्यान माचयेर दाखोवपाचो सफळ यत्न केला
हीं नाटकुलीं जो माचयेर पळयतलो, तो असले गुन्यांव करचे आदी धा फाव
विचार करतलो. समाज सुदारणेचें हें कार्य विकर्णान अशेंच चालू दवरचें.

विकर्णान आपणाली कविची लेखणी नाट्य निर्मणे खातीर येशस्वीपणा
वापरली म्हणून ताचें कवतूक करीन दिसता. ताका परबीं भेटयतां आन
नाट्यसाहित्यांत ताच्या ह्या पुस्तकाक येवकार दितां.

**– भरत नायव**

कवी, नाटकका

व्हडलें - गोंय

# मांडावळ

## देखाव-1

(बारीकशी कूड. थंय एक दादलो - कर्ण! पत्र वाचता. थंयच एक फोटू आसा. तो फोटू पळयता, चिंतता, रडटा, मदींच हांसता, हाताक मेळत तें सामान शेवटिता, कुडींतलें सामान अस्ताव्यस्त! कर्णाची घरकान्न कामावयल्यान येता)

दीक्षा : (कर्णाक) हें कितें चल्लां?

कर्ण : (वग्गी...)

दीक्षा : हांव विचारतां हें कितें चल्लां... आयकूंक येता काय ना रे?

कर्ण : (हातांतलो फोटू शेवटून मारता. दीक्षाक रागान पळयता)

दीक्षा : (तापून आनी उजव्या हाताचो आखाणो तोंडा वटेन व्हरत) घेतलां काय कितें रे? आं! हो बोवांळ कित्याक रे घरांत?

कर्ण : (हातांतलें पत्र वाचता - फोटू परत हातांत घेता आनी तकली मेजार दवरून रडटा)

दीक्षा : (म्हन्यांत येवन. पूण मायेन) कितें जालें? असो बोवाळ, पिशेंपणां कित्याक? सांग न्हय म्हाका. हांव कामाक आसतां, म्हाका कशें कळटलें? याद आयली भयणीची? (फोटो हातात घेवन पळयता)

(कर्ण रडत आसा)

दीक्षा : कितें जालें? सांग न्हय म्हाका...

कर्ण : म्हजी भयण मरूंक ना... ताका मारलां... मारलां ताका...

दीक्षा : (अजापान) कितें?

कर्ण : हय... हय... सतावन सतावन मारलां ताका... तुका खबर आसा दीक्षा... वॉट डज कोल्ड ब्लडेड मर्डर इज?

दीक्षा : कितें उलयता तूं? तुजी भयण मरून आयज वीस दीस जालें, आनी आतां तुका कशें कळ्ळें ताका मारलां म्हणून? पळय कर्ण, शांत जा...

अशें कित्याय कितें उलोवं नाका. पोस्ट मॉर्टम रिपोर्ट... सगलें
सारकें आयलां... आनी ताका मारलें?... म्हजी धाकली भ
कशी ती...

**कर्ण** : पूजान तुका केन्नाय सांगिल्लें बी, आपूण मोगान पडलां, वा
कसलेंय टेन्शन बी आसा म्हणून?

**दीक्षा** : (चिंतता) हय... एका म्हयन्या आदीं आमचो लग्नाचो वा
आसलो, तेन्ना ताका कोणालो तरी फोन आयिल्लो. आमचे प
मातशें टेन्शनांत आसलें तें... हावें आपुलकेन विचारिल्लें, को
गो तो फोन म्हणून... पूण ताणें म्हाका कायच सांगलें ना. आ
एका ईश्टाचो फोन, इतलेंच म्हणिल्लें...

**कर्ण** : तो दादलो काय बायल, हें तुवें विचारूंक ना?

**दीक्षा** : विचारिल्लें... हय विचारिल्लें... तेन्ना तें सामकें काचाबूल ज
तेन्नाच ताचो कोण तरी बॉयफ्रेंड बी आसूंक जाय म्हणपाचो म
दुबाब मारिल्लो...

**कर्ण** : (परत चाळवता... एक वस्त काडटा आनी जमनीर आपटिता) बॉ
न्हय तो... ताणेंच मारलां पूजाक... ही इज अ ब्लडी किलर.

**दीक्षा** : तूं कसो म्हणपाक शकता, तो पूजाचो बॉयफ्रेंड आसलो आनी त
ताका मारलां... ताचो मर्डर केलो म्हणून?

**कर्ण** : (शांत जावन) तूं जाणां दीक्षा, पूजा नर्सिंग करतालें... खूब त्र
तें... घरांतलीं सगलीं कामा मोन्यांनी करतालें. म्हाका चड शि
मेळचें म्हणून ताणें व्हडलें शिक्षण सोडून बारीकशा हॉस्पिटलांत न
नोकरी धरली. तीय एका पिशांच्या हॉस्पिटलांत. कित्याक तर
नोकरी करपाक कोणूच तयार जायनात म्हणून हाका मेळिल्ली...

**दीक्षा** : (म्हऱ्यांत येवन) हय... मागीर?

**कर्ण** : दोतोर... (पिशांवरी हासता) ही... ही... ही... ही...

**दीक्षा** : (पळयत रावता)

**कर्ण** : मनोजाक वळखता?

दीक्षा : (मातशें कचरता) कोण मनोज?

कर्ण : कोण मनोज? तोच तो तुज्यां शेजारा रावतालो तो. बारावेक आसतना तुका उतर घाल्लो तो... तुका प्रोपोज केल्लो तो मनोज... (हा... हा... हा...) तूं जाणा दीक्षा ! तूं म्हजेर मोग करता म्हणपाचें मनोजाक कळ्ळें, तेन्ना ताणें खंय सगलें घर माथ्यार घेतिल्लें... आपलेच गाडयेक उजो घाल्लो. पूण तुवें ताका भीक घालूंक ना. आय एम प्रावड ऑफ यू दीक्षा...

दीक्षा : हांव सगलें जाणा तें... पूण हातूंत तुजे भयणीचो आनी मनोजाचो कसलो संबंद?

कर्ण : कसलो संबंद? माय फूट ! हॅऽ कसलो संबंद... पूजा काम करतालें त्या हॉस्पिटलाचो तो इनचार्ज आसलो... हरामी निर्लज्ज... दोतोर मनोज... मनोज... (आनीक एक वस्त जमनीर आपटिता.)

दीक्षा : व्हॉट? म्हणल्यार?

कर्ण : म्हणल्यार... म्हणल्यार... त्या मॅन्टल हॉस्पिटलाचो इनचार्ज. तुका उतर घालपी मनोज... तूं ताका मेळूंक ना म्हणून म्हजे भयणीचेर राग काडपी मनोज... ताका सतावन सतावन मारपी मनोज...

दीक्षा : प्लीज... कितें तें मातशें स्पश्ट सांग... म्हजी तकली सणसणपाक लागल्या... न्हिदूय येता म्हाका... फाल्यां उलोवया आमी?

कर्ण : हय गो... तुजी आवय, तुजे भाव, सगलीं बरीं आसात न्हय... म्हजें दुःख तुका कळचें ना. मेल्या ती म्हजी भयण. तीच म्हजी आवय, तीच बापूय, सगलें जिवीत...

दीक्षा : अशें कित्याक उलयता तू? तुका म्हजेर विश्वास ना?

कर्ण : विश्वास आसा म्हणून म्हजेच घरकान्नी वांगडा उलयतां. नाजाल्यार येन्ना म्हणसर... त्या मनोजाक आनी ताचे फामिलीक...

दीक्षा : पूण सगलो रिपोर्ट, मेडिकल सर्टिफिकेटस् सारक्यो आसतना मनोजानूच तुजे भयणीक मारलां अशें तूं खंयच्या आदाराचेर म्हणपाक शकता?

कर्ण : पूजा काम करतालें ताचो इनचार्ज मनोज आनी ताच्या हाताखाला सगलो स्टाफ.

दिक्षा : पूण पुलिसांक पुरावो जाय. तो आमी खंयच्यान हाडटलीं?

कर्ण : पुरावो? आ... आतां जाग्यार आयलों (हांसता).

दीक्षा : (पळयत रावता) म्हणल्यार?

कर्ण : आगो तुजो घोव पिसो... तुका खबरूच ना?

दीक्षा : कितें उलयता तूं? दोतोराक आपोवं हांव? (रडपाक पावता

कर्ण : तो मनोज खूब हुशार... पिशांच्या हॉस्पिटलाचो इनचार्ज. म्ह खंय काम करताली? पिशांच्या हॉस्पिटलांत... आतां म्हाव जावंचो पडलो ना, म्हजे पिशे बायले? म्हजी तकली उ उसळटा काय नाचता... म्हाका नाचचें शें दिसता. (व्हड हांसता. सामको पिशावरी करता).

दीक्षा : (कर्णाक धरता... सांबाळटा. घुंवळ येवंचे पयलीं कर्ण एक ची आनी दीक्षाक दिता)

कर्ण : हांव... हांव पिसो... म्हाका पिशें लागलां... म्हाका डान्स जाय... दीक्षा ही चीट वाच मागीर तुकाय पिशें लागतलें... ह हाऽऽऽ.

(काळोख)

## देखाव –2

(दीक्षा एकलेंच... पत्र उगडटा, वाचूंक लागता, कितें त करता)

## देखाव – 3

(अशेंच एका रस्त्यार)

मनोज : हाय दीक्षा?

दीक्षा : (बूक वाचता ... जाप दिना)

मनोज : आगो कितें जालें? अशें बेजार कित्याक?

दीक्षा : तूं खंय सगल्यांक सांगीत सुटला की, हांव तुजो मोग करतां म्हणून... खरे तें?

मनोज : आगो दीक्षा... पळय, अशें रागार जावं नाका... हांव एकलोच पूत, म्हज्या व्हडल्या बिझनेसमॅन बापायलों...

दीक्षा : वग्गी बस... तूं कितल्यां चलयां कडेन बिझनेस करता तें जाणां हांव. विसरलो सीमाक? विसरलो रियाक? तें तर आवय जावपाचें आसलें खंय...

मनोज : (मात्सो घुस्पता) आगों, तीं सगलीं गरीब, बावळट, तांकां पयसो म्हणल्यार सगलें जग...

दीक्षा : आनी हांव कोण? हांव गरीब न्हय?

मनोज : तूं गरीब आसूं... हांव तुका गिरेस्त करतलों. तुका खबर ना, पूण हांव जाणा, तुवें हालीच अठरा वर्सां पुराय केल्यांत... आनी ती कोण गो रिया... सीमा... वीस-पंचवीस वर्सांचीं... हांव तुजेर भरपूर मोग करता हां... दीक्षा...

दीक्षा : वग्गी बस थंय... तूं दोतोरकी करता म्हणून सगल्या चलयांचीं काळजां विकतीं घेवंक सोदता काय कितें? तुका असो म्हजो फायदो घेवंक दिवचें ना हांव. ना... ना... केन्नाच ना (मनोज दीक्षाचो हात हातांत घेता)

मनोज : हांव तुजेर मोग करतां दीक्षा, देवाच्यान... तो बेकार कर्ण तुका कसलें मडसरेचें सूख दितलो? हांवें आयकलां, तुमचें खंय बरें सूत जमलां ह्या दिसानी. पूण सगलें सूख म्हणल्यार पयसो आनी नांव. यो... यो... अशें म्हजे लागीं यो...

दीक्षा : ना... ना.... हांव कर्णाचोच मोग करतां, तुजे कडेन लग्न जावंचें पडलें जाल्यार हांव उज्यांत उडी घेवन जीव दितलें.

मनोज : (दीक्षाचो हात हातांत घेवंक सोदता) यो... यो... अशें... लागीं यो... कोण कांयच म्हणचोना!

## देखाव - 4

दीक्षा : नो... नो... नो... (भानार येता). हांव कितें करू. मनोज
पळून वचूं? काय म्हज्या कर्णा वांगडा संवसार करूं? ह्या
भयण मरतकूच, ताका सामकेंच पिशें लागलां. (रडटा)

(कोळोख)

## देखाव - 5

(हॉस्पिटल - दोतोराली बारीकशी कूड)

दोतोर : दीक्षा, आगो यो, अशें भितर यो, बस. कितल्या वर्सांनी मेळ
तुकां...

मनोज : तेवूय बी ह्या... ह्या पिशांच्या हॉस्पिटलांत!.. आनी, कशें अ
(एक वाकडी नदर भोंवडायता) तुजें लग्न जालें. म्हाका सांग
ना मगो? तरीय तुकां व्हीश करपाक येवपाक सोदतालों हांव
तुवें... (भानार येता). आसू... आयज हांगा शें... राव हां...
कॉफी सांगतां.

दीक्षा : नाका मनोज...

मनोज : कित्याक गो? इतल्या वर्सांनी मेळ्यांत. एक कॉफी तरी घेवया..
कॉलेजांत तूं म्हाकां मनू म्हणटालें न्ही गो? विसरलें लग्न ज
(हातांत हात घेवंक सोदता. दीक्षा खुर्चेवयल्यान उठपाक सोद

मनोज : आसूं... आसूं... बस तूं... दोतोर मगो हांव... पेशंटाची नाडी
वळखतां. कॉलेजांत हांव तुजो पेशंट जाल्लों तें याद ना?
हात घेता).

दीक्षा : (काकुळटेन) कितें हें मनोज? म्हाका आवडनां असलीं नाटक
जाणां... कॉलेजांत तूं म्हजो मोग करतालो तें. पूण आतां हां
जालां...

मनोज : हय गो... त्या भोट्याकडेन मगो? जो पयलेच्या भुरग्यांवांगडा ग

खेळटा आनी आपूण जिखलों म्हणून गांवांत पेडे वाट्टा, त्या पिशा वांगडा मगो?

दीक्षा : आसूं रे. तरीय तोच म्हजो घोव मरे... आनी तूं... तूं म्हजो मोगी कॉलेजांतलो...

मनोज : हां... आतां कशें वळखलें?

दीक्षा : आनी तूं कर्णाक पिसोच कित्याक म्हणटा?

मनोज : आगो पिसो तो पिसोच... पिशाक आनी कितें म्हणप... आनी हांव हुशार दोतोर... तूं कित्याक भियेता? एका तेपार हांव तुजेर मोग करतालो... पूण तूं त्या पिशा वांगडा लग्न जाले. नाजाल्यार इतले सोबीत सुंदर बायलेक कोण असो सोडटलो आसलो? कितलें भागलें पळय तूं... तुज्यो यादी काडीत हांव पेशंटांक तपासपाक लागलों आनी पिशांच्या हॉस्पिटलांत पावलो (ताचो हात हातांत घेता).

दीक्षा : तुजें सगलें बरोबर आसा... पूण कर्णूय म्हजेर भरपूर मोग करता... जिवापाड...

मनोज : (गंभीर जावन). पळय दीक्षा मोग म्हणल्यार कांयच न्हय... दोन जिवांचें मिलन... मोग म्हणल्यार रांदप, वाडप, जेवप न्हय... तें कोणूय करपाक शकता... पूण जाण्टीं जातकूच मागीर कायच फायदो नासता... आता आमी तरणाटीं आसात. हांव पयलीं इतलोच आयजूय तूजो मोग करतां... आनी करीत रावतलों. म्हाकाय दिसता, तुवेंय म्हजेर मोग करचो... मोग म्हळ्यार शरीराची एक भूक. म्हाकाय मात्शें समजून घे मगो केन्ना तरी...

दीक्षा : हय. पूण कर्ण... तो म्हजो घोव... लोक कितें म्हणटलो. हांव ताजी बा... (मनोज दीक्षाच्या तोंडार हात दवरता)

मनोज : ना... ना... तू म्हजीच बायल जातली (चिंतता).

दीक्षा : पूण कशीं? कशी रे मनोज?

मनोज : आं... तूं जाणा दीक्षा... कर्णाक कॉलेजांत सदांच भुरगे पिसो... पिसो... कित्याक म्हण्टालें तें? सांग पळोवया. आ? कळूंक ना? हांव सांगतां. ताका बडबडपाची... बोवाळ मारपाची, राग येतकीर वस्तू फोडपाची, अशी एक एक संवय आसली. आतां आमी हीच तागेली

संवय घट्ट धरूया आनी ताका नोचोवया...

दीक्षा : (चिंतता) हय... हय, तो घरा सदांच बडबडत आसत
भिरकावन मारता... ताका राग येतकीर सामकोच भान सोडत
पिशांवरी जाता. शीऽऽ हांव सामकें विटलां रे मनोज...
हेट हीम...!

मनोज : जालें मगो... डन! ताका पिसो करपाचो (हांसता). सोमको
असो आनी तसो न्हय... फॉरेंनात पसून व्हेल्यार सारको जाय
वचूंदी मुखावयलें जिवीत मॅन्टल हॉस्पिटलांत... आनी हांव
काम कशें करपाचें... हय सारकें जाणां! (चिंतता)...

दीक्षा : कशें रे? हांव सामकें भियेलां आं... कितें करपाचो आसा तूं
ताका जितो बी मारीना मरे?

मनोज : नाऽऽऽ नाऽऽऽ ना, गो म्हजे भावी घरकान्नी. त्या मेल्ल्या पिश
मारपाचो... आगो ताचे भयणीक (कच्च करून आंग काडट

दीक्षा : कितें कोणाली भयण... कर्णाली?

मनोज : काय ना गो... हांव... हांव त्या दुसऱ्या पेशंटाचे भयणीचें
सोदतालों.

दीक्षा : तें आसूं रे मनोज... पूण तूं करतलो तरी कितें?

मनोज : आऽऽऽ पळय. हांव ह्या हॉस्पिटलाचो इनचार्ज! म्हजे अंड
सगलो स्टाफ काम करता. तुवें एक ॲप्लिकेशन करपाचें की
घोव सामको पिसो... सामको म्हणल्यार सामको... वस्ती फो
सगलें घर माथ्यार घेता... तुकाय मानसीक त्रास दिता...
करता म्हणून...

दीक्षा : कळ्ळें... मागीर?

मनोज : मागीर हांव तुका कर्णाच्या नांवान एक मेंटल सर्टिफिकेट ईश्यू
(हांसता). ती सर्टिफिकेट तुवें दवरपाची, तुगेल्या सोयऱ्यां धाय
लोकांक दोखोवपाक... तुजो घोव पिसो म्हणून...

दीक्षा : (खूश जावन) मागीर मुखार कितें जातलें?

मनोज : मागीर... तुवें एक दीस पुलिशेंत कंप्लेंट दिवपीची, अशीं अशीं

नाटकां घडटात म्हणून... तुज्या घोवाक-कर्णाक पुलीस तपासपाक म्हज्याच हॉस्पिटलांत हाडटले. कळ्ळें? हांव कर्णाक ॲडमीट करून घेतां आनी... एक... एक कडक न्हीदेचें इंजेक्शन दिवन सोपयतां... म्हणल्यार जीवीतभर तो हांगाच पिसो जावन उरतलो.

दीक्षा : किते...?

मनोज : आगे, पिशा कर्णाचे बायले... तूं भियेंव नाका मेंटल सर्टिफिकेट आसतलीच न्हय. मुखार कितेंय बोवाळ जालोच जाल्यार, मॅन्टल... म्हणून हांव ताका काबार करतलों... ह्याच हॉस्पिटलांत... कळ्ळें?. टेन्शन घेवं नाका... फाल्या हाड ताका हांगां आनी हो म्हजो मोबायल नंबर (दीक्षालो हात हातांत घेता. हांसता) ह्यो गुळयो दी ताका रातच्यो... बरी न्हीद पडूंदी आवट्याक...

(काळोख)

## देखाव - 6

(हॉस्पिटल... मनोजाचें ल्हानशें कॅबीन. कर्ण, दीक्षा, मनोज)

मनोज : पळय कर्ण... तुका खूब त्रास जातात हें हांव जाणा. पूण तुवें ह्यो गुळयो घेवपाकूच जाय. नाजाल्यार...

कर्ण : ना जाल्यार (पिशांवरी) हॅऽ हॅऽऽ हॅऽऽऽ... ना जाल्यार हांव तुकां मायतोयों... म्हजे बायलेक मायतोयों... ना... ना... हांव खूब शानो... हांव म्हाकाच मायतोयों... शीऽ शीऽऽ शीऽऽऽ म्हाका म्हाकांय मायूंक जाय... किते कोयूं दोतोय हांव... (मनोजाक नियाळटा) तूं... तू... दोतोय... तूं फातोय... शी... तू फातोय. हॅऽ. फातोय न्हू... तूं, तूं शिमीट... हॅऽ हॅऽऽ हॅऽऽऽ...

मनोज : (दीक्षाक पळोवन हांसता)... परिणाम जबरदस्त जाला हां...
घुवळे वखदांचो... भयानक पिशेंपणां मरे हीं...

दीक्षा : (सावकास मनोजाक)... मनोज मात्शी ती पिशांची सर्टिफीकेट बेगीन दी. म्हाका सांबाळपाक बरी पडटली.

कर्ण : (दोगांय कितें उलयता तें आयकता) हय गो दिकशा.. सर्टिफिकेट दी... म्हाका केक दी गो... म्हाका आयसकिली म्हाका मोग दी गो... दिता काय दिना गो... तू फकत म्हा दिता, मोग दिना... तूं मोगी न्ही, तूं रोगी. ये रोगी... रोगी. क्या होगा? प्यार मे सब होगा... हलदीन तुहाना होगा... नाचता)

मनोज : धीस इज द लिमीट ऑफ मॅडनेस... दीक्षा कर्णाक आताच करूया. तूं आताच ॲप्लिकेशन कर... हावें कालूच सर्टिफिके दवरिल्ली, ती हाडल्या... कर्णाक पिशें लागला म्हणून...

(मनोज सर्टिफिकेट काडटा, दीक्षाच्या हातांत दिता) ही सांभाळून दवर. फाल्यां हो कर्ण मेलो बी जाल्यार पुलिशेंत बऱ्याक पडटली...

(दीक्षा सर्टिफिकेट वाचता. हांसता. आनी ती काडून कर्णाकडेन कर्ण, दीक्षा दोगांय व्हडा व्हडान हांसतात. मनोज अजापी पळयतूय उरता)

मनोज : दीक्षा... कितें चल्लां हें? सर्टिफिकेट ह्या पिशा कडेन दिली पिशें बी लागूंक ना मगो?

दीक्षा : माकडा. हलकटा. निर्लज्ज मनशा (नेटान पोल्यार थापट मारत पिशें, म्हजो घोव पिसो? तुजी... तुजी सगली फामील पिशी घराणें पिशें... (कर्ण दीक्षाक आडायता. मनोज सामकोच च घुस्पता, अजापता)

कर्ण : वळखलो म्हाका. हांव पिसो. हां... पिसो म्हणुनूच हिणायता तूं म्हाका. पूण पुजा? म्हजी भयण, तेवूय पिशें? ना. आत्महत्य पयलीं ताणें ही चीट बरोवन दवरिल्ली... दीक्षा ही घे, वाचून ह्या पिशा दोतोराक...

(बोल्सांतली चीट भायर काडटा... दीक्षाच्या हातांत दिता. वाचपाक लागता)

दीक्षा : म्हज्या मोगाळ भावाक... पळय, तुजे खातीर हावें म्हज्या शि पसून पांवडो पळयनासतना ह्या ल्हानशां प्रायवेट हॉस्पिटलां

धरलें. पूण म्हज्या भावा... हांगां म्हाका खूप त्रास जातात रे... त्या लिंगपिसाट मनोजाक वळखता मरे तूं? हय... तोच तो. म्हजे दीक्षा भाभीचेर दोळो दवरून आसलो तो... तो ह्या हॉस्पिटलाचो इनचार्ज... सध्या म्हजे फाटीक लागला... म्हाका खूप सतायता... म्हण्टा तुज्या भावान आपल्या दीक्षाक पयस व्हेलें... खूप मोग आसलो म्हण्टा दीक्षा भाभीचेर. एका दिसा तर तो सायनायडाची गुळीच घेवन आयलो. म्हज्या हातांत दिली आनी... ही दुदांत घालून तुज्या भावाक दी म्हणून सांगपाक लागलो. इतलेंच न्हय. हें करपाक जायना जाल्यार नोकरी सोड, ड्युटेक रातचें एकटेंच राव. अश्यो जायत्यो धमक्योय ताणें म्हाका दिल्यो. त्या दिसा हांव सामकें भियेलें. पंदरा दिसा फाटींय ताणें म्हाका अशीच धमकी दिल्ली... आपूण ह्या हॉस्पिटलाचो इनचार्ज, सगलो स्टाफ आपलें आयकतलो. तांच्या आदारान म्हाका, भाभीक आनी तुका असोच सोपयतलों आनी पुलिसांक सांगून सुट्टोलोय बी म्हणून.

हें पत्र बरोवच्या आदल्या दिसा तर ताणें कहरूच केलो... म्हाका न्हिंदेचें इंजेक्शन मारून म्हजेर बळजबरी केली. ही चीट तूं वाचता म्हणसर घडये हांव ह्या जगांत नासतूय बी. पूण त्या नराधम मनोजाक कसोच सोडूं नाका...

– तुजीच मोगाळ भयण

– पूजा

कर्ण : हलकटा, निर्लज्जा... दोतोर रे तूं? पुजाचेर बळजबरी करताना तुका एक मिनीट पसून दिसूंक ना, तें तुजें स्टाफ म्हणून? दोतोरकीचो फायदो घेवन सगले रिपोर्ट पॉजिटीव्ह दाखयलें... आरे एक दीस पूजाच्या पुस्तकांत म्हाका तुजो फोटू मेळिल्लो... हांव पूजा खातीर तुजेलागीं उतर घालूंक सोदतालों. आसूं. तू इनचार्ज न्हय... ह्या पिशांच्या हॉस्पिटलांतलो... हांवेंय नाटक केलें मेंटल जावपाचें... हांवें आनी तुज्या सपनातल्यां दीक्षान... जें तुका केन्नाच मेळचें ना... जाणें तुजेर केन्नाच मोग करूंक ना... दीक्षान फकत मोगाचें नाटक केल्लें. (मनोज दीक्षाक रागान पळयता)

दीक्षा : आनी ही मेंटल सर्टिफिकेट... ती आता आमी पुलिसांक दाखयतलीं... गरज पडल्यार हांऽ... आवट्या दोतोरा...!

**कर्ण** : आनी हें इंजेक्शन... सायनायड दिवन तूं आमकां, म्हाका
सोदतालो न्हय. (बोल्सांतल्यान इंजेक्शन काडटा. मनोज
चाळवता. मेजावयली व्हडली कातर काडून दीक्षाच्या पोटांत म
उबारता, इतल्यान कर्ण ताचेर एकूच मूठ मारता, 'आवयस'
किळांच मारता आनी जमनीर पडून बेशुद्ध जाता)

**कर्ण** : आतां स्टाफ, आवय, घरचीं सगल्यांक याद कर (मनोजाक इंजे
तोपता). आयज म्हजे भयणीक समाधान मेळटलें.

(कर्ण, दीक्षा एकामेकांक पळोवन हांसतात. सर्टिफिकेट पळयता

**दोगांय** : हुशार पिसो खयचों !

सोंपता !

# आंक - पयलो

## देखाव- 1

(कॉलेजांतलें कॅन्टीन... दोन- तीन मेंजां, चार-पांच खुर्च्यो. एका मेजार अठरा ते वीस वर्सां पिराय गटांतले दोग चले, एक चली मेळून तीग इश्ट गजाली मारीत च्या पियेतात. मेजार बुकां, पेपर... हेर मेजांचेर चावेचे रिते कप... अशें वातावरण. हळू हळू उजवाड जाता)

**सीमा** : आरे जयेश, प्रितम सामके सुके बांगडे कशें जाल्यात मरे... कितें केलें सुटयेंत? योगा शिकपाक बी वताले काय कितें रे?

**जयेश** : हय गो आमीच मेळटात तुकां फकांडां मारपाक? योगा खयं योगा... मात्सो बारीक जाल्यार जालो योगी? आमका कितें टेन्शन नासलें परीक्षेचें? आनी तूं म्हणून बरेच फुगलां मगो..! आवय बरें जेवण करून घालताली काय किते गो सुटयेंत?

**प्रितम** : ह्या सीमालें मात बरें... एकलीच धूव आवय बापायली... जाय तें मेळटा. वयल्यान बापूय सरपंच... दिता आसतलो लोक मागता तें हाडून... न्हय गो सीमा?

**सीमा** : हँ... पुरो करात हां... मात्शीं फकांडा कितें मारलीं... लागलो उरफाटी बॉलिंग घालपाक... मागीर, जयेश कितले मार्क्स पडले रे तुका फायनलीक?

**जयेश** : आगो, हो पळय निकाल म्हजो (बॉल्सांतल्यान निकाल काडटा). साल्वार हांव, गणीत पेपर विकेट उडवपाचो म्हजी. फकत 36 आवट ऑफ 100. कोंकणीन वाचयलो म्हाका... थंयच सगली गणिता बद्दलीं, शंबरांतले 88 मार्क मेळ्ळे. टोटल पर्सेन्टेज 62 टक्के. म्हळ्यार फर्स्ट क्लास (सीमा जयेशाक हात दिता).

**सीमा** : आनी तुका रे प्रितम, कितलें टक्के मार्क्स मेळ्ळे?

**प्रितम** : आगो हे... हे... आमचे सर... टिचर म्हण्टात न्हय आमकां ही भाषा घेयात - ती भाषा घेयात. म्हणून हावें पोर्तुगीज घेतली... बरेऽऽऽ

मार्क्स मेळटले असें दिशिल्लें... पूण पोर्तुगिजांनी घात केल
मार्क्स मेळ्ळे शंबरांतले. पूण हिन्दीन, भुगोलान सांबाळ्ळो म
फकत 60 टक्के. पूण प्रोमोटेड टू थर्ड इयर...

जयेश : तुगलो तर विचारपाचोच आसचो ना न्हय सीमा? आयलो आ
80 - 90 टक्के. कितें गों?

सीमा : ना रे. फकत 75 टक्के. हांवेंय फ्रेंच भाषा घेतिल्ली. सगल्यां पे
बरे मार्क्स मेळ्ळे. पूण फ्रेंचीत मार खालो. फकत बेचाळीसूच मे
थंयच फसलें... आनी किते रे जयेश, तुजो मोबायल आवट
कवरेज कित्याक येतालो निकाला दिसा?

जयेश : मात्सो टॅन्स जाल्लों गो... भरपूर मार्क्स मेळटले म्हूण नेटार आ
पूण, आसू...

सीमा : आनी तुजो रे... तुकाय लज बी दिसली काय कितें रे?

प्रितम : ना गो... म्हजो मोबायलूच उदकांत पडलो आनी बॅटरी गेली. स
करूंक दिला.

सीमा : कितें केलें रे सुटयेंत?

जयेश : व्हडलें कांयच ना गो... वर्सभराचो ताण घालोवंक सकाळचो म
कांपालार पेवपाक आनी सांजेचो इश्टांवांगडा क्रिकेट... आयप
चलताली न्हय त्या दिसांनी....

सीमा : आनी तुवें रे?...

प्रितम : हांव घरच्यां वांगडा शिरडी वचून दोन दीस रावून आयलों. थंय
दोन दीस त्र्यंबकेश्वर गेलीं. कितलें व्हडले लिंग गो थंय! भरपूर
आयली... आनी तुवें कितें केलें गो?

सीमा : कांयच ना... पंदरा दिसांचो एक कम्प्यूटर कोर्स... खंयूय भोव
वतलीं म्हणल्यार पप्पाक वेळूच मेळुंक ना. पंचायतीच्यो वेंच
आसल्यो न्हय रे फाटल्या म्हयन्यांत. पप्पा थंयच बिझी उरलो.

जयेश : हावें पेपरार वाचिल्लें मगो... हे फावटीं तुजो पप्पा एमएलए जाव
सोदता म्हणून. खरें कांय कितें गो?

प्रितम : आवयस्... एकदां तुजो पप्पा आमदार जालो, म्हणटकूच ग़ग़ीर अ

तुका पळोवपाचें आसचें ना, न्हय गो सीमा?

सीमा : पुरो हां...

जयेश : जाल्यार पुरो आमदार... पूण घोटाळ्या... फेटाळ्यांचे भानगडीत घुस्पना जाल्यार पुरो...

सीमा : म्हजो पप्पा तसलो न्हय हां... सदांच देवाक पांयां पडून भायर सरता तो कामाक... 'जनसेवा हीच ईश्वर सेवा' हें ब्रीदवाक्य मानून चलपी म्हजो पप्पा.

प्रितम : हय गो, पूण सद्या देशांत... गोंयांत मायनिंग, ड्रग्स घोटाळे हीच तिजोरी भरपाची सेवा जाल्या.

सीमा : लागले... कोले कशे म्हजे फाटीक लागले...! कायच विशय ना म्हणटकूच पप्पा वयल्यान सतावक लागले...

जयेश : बेठेच फकांडानी उलयले गो आमी... पूण आमच्या ह्या ल्हानशा गोंयांत कितें चल्लां तें पळेयता मगो तूं?

सीमा : हय रे जयेश... वता थंय स्कॅन्डला, रॅकेटां, घुवळी वखंदा, खून, बलत्कार, चोरयो, लूट, श्शीऽऽ... कायदो-वेवस्था म्हणटात ती कितें आसा काय ना रे हांगा? तिळसांज जाली म्हणटकूच घराभायर पडपाची सोय ना. वाटेक चार-पांच जाण आसतात फकांडा मारपाक. आतां तर चोरांनी नवेंच तंत्र आपणायलां...

प्रितम : कसलें गो?

सीमा : हळूच बायक घेवन फाटल्यान येवप आनी बायलांच्या गळ्यातलें मंगळसूत्र, सरपळ्यो खेचून फुज्ज्यो काडपाचें...

प्रितम : हय गो... हें थंयतरी थांबपाकूच जाय. नाजाल्यार हे अशेंच चलतलें.

जयेश : आरे कांयच भियेवं नाकात... हांव पुलीस जातलों आनी सगल्या चोरांक धरतलों...

सीमा : पुरो... पुरो पुलीस जातकीच आमकाच पयलीं विसरतलो... कितेंय काम आसल्यार हप्तो मागतलो आमचे कडेन...

जयेश : ना गो हांव तशें केन्नाच करचों ना... प्रॉमीस

प्रितम : हय रे, पयली पयली सगलें 'धुल्ल्या तांदळांवरी' आसतात.
केन्ना तांकां बरड लागता देवाक खबर. तातूंतल्यानूच थोडे
हालींच ड्रग्स प्रकरणांत पसून सापडल्यांत.

जयेश : आरे... गॉड आसता थंय दोमळे आयलेच. पुलिशेंतूच कि
सगल्यांच खात्यांत बरे वायट मनीस मेळटात... ताका लागून सग
दोश दिवन फायदो ना. खरें मगो सीमा?

सीमा : हय रे, सामके खरें. आतां तर पयशे दिले बगर मेजावयली
लेगीत हालना हें भुरगे पसून सांगतलें...

(प्रितम, सीमा आपले आगळे स्टायलींत एकामेकांक टाळी
हांसतात. प्रितम पेपर चाळटा)

प्रितम : आरे, हें पळयात (पेपर वाचून) आमच्या कॉलेजीत एचआयव्ही चे
कॅम्प आसा फुडल्या आठवड्यांत

सीमा : कसलो कॅम्प रे?

प्रितम : एचआयव्ही. नोटीस बोर्डाचेरूय नोटीस मारल्या खय... हांगां ब
की, 18 वर्सां वयर पिराय आसा त्या सगल्यांनी आपखो
एचआयव्ही टेस्ट करून घेवची. तांचें नांवूय गुपीत दवरतले ख

सीमा : शीऽऽ. हें आनीक एक दुयेस. सगले फॅमिलीक लजेक घालपी.

जयेश : पूण प्रिकॉशन्स घेतल्यार कांयच जायना हां...

सीमा : प्रिकॉशन्स म्हणल्यार?

जयेश : जशें... लग्ना उपरांत फकत आपले घरकान्नी वांगडाच कुडीचे
दवरप. वा सुयो बी तोपून ड्रग्स घेतात पळय, तांणी त्यो सुयो स्टरल
केल्ल्योच वापरप. पूण सगल्यांत पयलीं म्हणल्यार सदांच एकेच
वांगडा एकनिश्ट रावप. 99 टक्के एचआयव्ही दुयेंस हें एक सोडू
चलयो, बायलां वांगडा कुडीचे संबंद दवरिल्ल्यानूच जाल्यात.

सीमा : तूं म्हणून बरोच लंबी रेस का घोडा सो दिसता मरे?

जयेश : आगो सदाच आकाशवाणी, दूरदर्शन, एफएम वयल्यान जायराती प्र
जातात, ते भायर सगल्याक पोस्टर्स मारिल्ले दिश्टी पडटात. ज
घेयात सादुरकाय बाळगात म्हणून सांगतात तें आयकतां न्ह

आमी. आनी आमी सळसळट्या रगताचे तरणाटे मगो. आमी डिस्कस करप ना जाल्यार आनीक कोण करतले तर... जाण्टेले? (स्वतः ज्योक मारिल्ल्याचे खोसयेंत हांसता)

मा : पूण हें दुयेंस जातकीर कितें जाता मनशाचे कुडीचें? म्हणल्यार परिणाम रे... कशें वळखप दुयेस जाला म्हणून?

येश : सगल्यांत पयलीं खंय पातळ परसा कडेन जाता. मागीर बारीक जोर येता, अशें करून हो वायरस तुजे कुडींतले व्हायट ब्लड सेल्स काबार करता. मनीस सामको फ्राक जाता. हाकाच आमी एचआयव्ही म्हणटात. पूण मनशान जर बरें जेवण, वखदां वेळार घेतली जाल्यार एचआयव्ही पेशंट आठ धा वर्सां जगपाक शकता.

तम : हीं सगलीं दुयेसां मगो भायल्या देशांनी हांगां हाडून सोडल्यांत. जशीं स्वायन फ्लू, एन्ट्रॅक्स, एडस्, एचआयव्ही, चिकून गुनिया, गे सिस्टम, असलीं... आमच्या गोंयांत... देशांत हीं दुयेसां नवीं... करतले कितें? पाश्चात्य संस्कृती जाय न्हय आमच्या लोकांक... हाकाच लागून हीं पातकां आमकां भोगची पडटात...

मा : आनीक कितें तर... पूण तुमकां दोगांयकूय एक विचारूं?

गय : विचार गो...

मा : तुमी म्हजे बरे इश्ट... तुमी बी खंयचरूय वचून हें एचआयव्ही चे धंदे करूक नात मरें?

तम : कितें उलयता गो तूं?

येश : शीऽऽऽ, आमकां सामके लजेक घाले हां तुवें...

तम : आगो, तुवें आमकां इश्ट म्हणल्याच न्हय. तशें जाल्यार आयक. इश्टागत ती मागीर चलये वांगडा आसू, आवय-बापाय वांगडा आसूं वा आपलेच बायले वांगडा... ती सदांच पवित्र दवरूंक जाय. विश्वास मागीर तो इश्टीणीचेर आसूं वा आपले बायलेचेर, तो घट आसपाक जाय... विश्वास ह्या उतराचेरूच सगलें जग चलता. तो जर मात्सो लेगीत डळमळीत जालो जाल्यार जग सोंपलें मगो!

येश : सारकें मनातलें उलयलो.

मा : आय एम व्हॅरी सॉरी यार...

जयेश, प्रितेश : ईटस् ओके.

जयेश : पूण असल्या एचआयव्ही., टी. बी. सी. बी. दुयेसांवयल
आमचेर केन्नाच दुबाव म्हण्टात तो घेवं नाका आं...

सीमा : पूण आयकात रे... तुमकां एक दिसना की, ह्या एचआयव्ही
चड गरज कामेशाक आसा म्हणून?

जयेश : आता सारके उलयलें काळजांतलें.

सीमा : खऱ्यानीच... एकलोच चलो न्हय तो आवय-बापायलो..
कितलों दुडू मोडटा रे ह्या नावाडग्याचेर. पूण हाका मात्तूय
ना... पोरू खंय तो दुसऱ्या वर्गांतल्या... चार-चार चलयां
मिरयतालो...

जयेश : सत खरें.. !

सीमा : ताका चलयो फारवतात बऱ्यो मरें...

प्रितम : आगो पयशेकार बापायलो पूत तो... मागतकीर जाय तें मेळटा.
बापायक कायच सांगना... हो हांगा कसले दिवे लायता त
कॉलेजाक खबर...

जयेश : ए... तें पळय कोण तरी नवेंच चली येता... पळय गो सीमा, आ
म्हऱ्यांत येता मगों तें...

सीमा : हय मरे... कोण काय हें चली, सुंदर दिसता न्हय?

रिया : (सुंदर, देखणें चली. पिराय सोळा. जीन पॅन्ट आनी टॉप घाला)
हांव रिया... थर्ड ईयराक ॲडमीशन घेतला हावें. हाव बसू ह

तिगांय : हय हय बस (प्रितम खुर्ची हाडटा)

रिया : हांव मडगावचें... पप्पा कलेक्टर. हालीच तांची हांगां पणजे
जाल्या. ताकाच लागून... हावें हे कॉलेजीत ॲडमिशन घेतल

सीमा : बरे जालें... हांव सीमा. हो प्रितम आनी हो जयेश. आमी
ईयराकूच आसात.

रिया : खरेंच... म्हणजे... तुमी तिगांय म्हज्याच वर्गात आसतलीं तर

जयेश : डॅफिनेटली. (कॅन्टीनवाल्याक उलो मारता) ए... श्याम, एक
आनी दोन पॅटीस.

या : नाका नाका... आतांच घराकडल्यान खावन आयलां हांव.

ोमा : घे गो... आयज म्हाका एक नवी इश्टीण मेळ्ळी... मडगांवची. मडगांवां खंयचे कॉलेजींत शिकतालें गो?

या : चौगुलेंत...

ोमा : आवयस... नंबर वन कॉलेज मगो ती गोंयांत. एसी लॅक्चर रूम, एसी हॉल, सगलें एसी... आनी व्हेरी एक्सप्रियन्स टिचर्स...

या : हय खऱ्यानीच बरें कॉलेज तें... टिचर, स्टाफ सगलीं बरीं... तुमची कॉलेज... (स्वताची चूक सुदारता) न्हय आतां आमची कॉलेज कशी आसा गो?

येश : आसा सादारण... चौगुले परस मात्शी उणी.

या : आनी स्टाफ, हांगाचीं भुरगीं?

तम : आमी कशीं दिसलीं तुकां... थोडी आसात गो पारपोळ, तोमसोळ... मात्शें सादूर रावल्यार कोण कोणाचे वाटेक वचना. आनी आमी तिगांय आसात न्हय... कितेंय अडचण आसल्यार सांग आमकां.

या : सीमा... म्हाका मोबायल नंबर दियात तुमचें. हांवूय नवेंच न्हय हांगां. बरें पडटलें म्हाका (सीमा मोबायल नंबर दिता)

येश : आयज कॉलेजाचो पयलोच दीस. बुकां, सगलें सामान घेतलें मगो?

या : हय सगलें घेतलें (इतल्यान रियाचो मोबायल वाजता) हॅलो पप्पा हय... ना... ना... कॅन्टीनांत बसलां. हय... म्हाका बरीं इश्टां मेळ्ळ्यांत... मागीर घरा पावतकूच सांगतां... हय. ना ना लेक्चर नात... येतां हांव घरा... हय. बशी आसात हांगां मिरामार सर्कलाचेर. पावतलें हांव एक मेरेंन (कोक पियेता). बरें दवरतां.

येश : वता गो?

या : हय वता रे... पप्पाचो फोन आसलो. तो कामाक गेला आनी मम्मा एकलीच आसा घराकडेन.

ोमा : एकलेंच गो तूं... काय आनीक भयण, भाव बी आसा गो?

या : भाव आसा गो... पूण तो पुण्यात इंजिनियरिंग करता. वर्सातल्यान एक-दोनदां येता. घरा मम्मा हावजवायफ... बरें तर येतां हांव...

फाल्यांच्यान क्लासीक सुरवात मगो?

सीमा : हय... यो हां वेळार. लास्ट ईयर हें आमचें...

जयेश : बायक आसा म्हजेलागीं. सोडपाक येवं?

रिया : नाका रे... थॅक्स. पांच मिनटांचेर बसस्टॉप मरे... बरें तर बाय.. कॅन्टीनांतल्यान भायर सरता आसतनाच कामेश भितर सरता स्टायलीस्ट... दोळ्यांक ऑक्ल... हातांत सिगरेट. रियाक आगळे पद्दतीन शिळोणी घालता... तोंडांतल्यान धुंवर सोड तिडकीन दोळे मोठे करून पळयता आनी वता)

कामेश : वॉट अ पीस रे... खंयच्या खोटल्यांत धांपिल्लें रे हाका आतांच धवेंफुल्ल चिकन एग कशें भायर सरलें मरे...

सीमा : पीस न्हय... पास मरे?

कामेश : आगो सीमा... तुवूय आसा हांगां... आनी प्रितम तूय रे... पूण एक सांगात, आताच हांगाच्यान गेल्या ती पॅप्सी कोण रे.. देवाच्यान असलें चली गोंयांत खंयच पळोवंक ना हावें... फे पसून...

कामेश : इतलीं वर्सां जे अप्सरेक सोदतालों तें हेंच शें दिसलें... आय मीन गोंयांत आसतात रे असलीं आडसरां? कांय कर्नाटक केरळाच्य पार्सल केलां रे... वॉट अ आयटम यार...

प्रितम : जाले हागेलें स्टार्ट... आरे तूं पास जालो मरे?

कामेश : आरे म्हगेलो बापूय दर वर्सा हे कॉलेजीक डोनेशन दिता खब तुका... फेल कसो जातलों...? हावूय आसा तुमच्या वांगड ईयराक. आरे पूण तुमी पास मरे... काय उरलीं रे परत सेकंड ई नव्या चिक्सां वांगडा पापड लाटपाक...

सीमा : पास आमी... पूण तुजें बरे न्हीरे कामेश! लाखाधीश आवयबा अपुरबायेचो पूत... जाय ते माग... भांगराचें ताट, चांदीचें कुल

कामेश : हय गो... तूय म्हणून एकलेंच न्हय आवय बापायलें. फरक इत म्हाका मागता तें मेळटा, तुकां जी, जी करचें पडटा (सीमा तोंड करता).

शं : ए पुरो आतां... एकटें-दुकटें करून एकामेकाली फामील वयर काडपाक लागल्यांत तीं.

तम : मागीर कामेश... खंय भोवूंक बी गेल्लो मरे सुटयेंत?

मेश : सुटयेंत? सॉलीड मजा आयली... पप्पाली एक फ्रँड अमेरीकेंत रावता... फोरेनर तिणें आपल्या दोग चलयांक आमगेर धाडिल्लीं... गोंय पळोवपाक... एकल्याचें नांव स्कार्लेट, दुसरें जुलियस... सारकें दाखयलें गोंय दोगांकूय. बीच पार्टीस... सिगारेटस्, वागातोर, बागा, पाळोळें... सद्दा लेट नायट्स पार्टीस... बूम...

शं : छाऽऽ... म्हणजे सुटी फुलयली म्हणपाची तुवें...

मेश : हें आनी विचारप जालें... आरे म्हाका दर्यांत नाक बुडोवन नुस्तें गरोवपाची संवय ना... जें कितें आसा तें सरळ... फुडल्या वर्सा परत येतलीं ती गोंय पळोवंक.

तम : आनी कितें चिंतला रे... फुडाराचें म्हणटां हांव... काय अशेंच, आयज ह्या संवण्या फाटल्यान आनी फाल्या त्या संवण्या फाटल्यान भोंवपाचें...

मेश : तशेंच. आनीक कितें तर? बापायचो पयसो आसाच न्हय रे... शिक्षणाक लाय चुट्टी... फकत टायमपास... चलयो आसाच न्ही. आनी आयच्या चलयांक तरी कितें जाय. पैसोच मरे... तो आसाच. बापूय दिता न्ही मोडपाक म्हाका... आरे जिवीत एकदाच मेळटा, सो लॅट लिव्ह अँड एन्जॉय...!

येश : कितले पवित्र आनी डेंजरस विचार रे तुजे. मानलो हां तुका. ग्रेट...

मा : खऱ्यांनीच ग्रेट... वालोर... आमी जिवीतांत आपल्या पांयांचेर उबीं रावून स्वताची इमेज तयार करूंक सोदतात आनी तूं...?

मेश : आगो... आयज काल फकत 'पैसा बोलता है...' धाडय बडय पन्नास उडय... जालें...

तम : आरे, तुवें ही बातमी वाचल्यां मरे... फुडल्यां सप्तकांत कॉलेजांत मेडिकल कॅम्प आसा खंय.

ामेश : कसलो मेडिकल कॅम्प रे? मलेरिया वा चिकून गुनिया?

प्रितम : एचआयव्ही टॅस्ट कॅम्प.

कामेश : कितें एचआयव्ही टॅस्ट (मात्सो भियेता) नवेंच मरे हें आनी
करतलो ही टॅस्ट.

सीमा : आरे बांबोळेच्यान स्टाफ येतलो... अठरां वर्सां पुराय जाल्य
तपासून घेवं येता. तूं घेतलो मरे तपासून? करतलो मरे एच
टॅस्ट?

कामेश : तूं अशें क्रिटिकली शें कित्याक विचारता... हांव एचआयव्
आशिल्लेवरीं. चड चलयांक घेवन भोंवतां म्हणून... कायच भि
सगली सादुरकाय घेता हांव. आनीक फॉर युवर काईंड इन्फ
घेतलों हांव टॅस्ट करून... तकलेंत दुबाव घेवन जगतात ते चड
शकनात...

(इतल्यान सीमाचो फोन वाजता)

सीमा : हॅलो... रिया पावलें मगो? हां बरें... कितें गो मम्माक
करता काय कितें? आवाज आयकूंक येता मम्माचो. फाल
हां कॉलेजाक... हय, आठांक लॅक्चर स्टार्ट... बरें तर दव
बायSSS.

जयेश : कोणालो फोन गो?

सीमा : रियालो...

कामेश : कोण रिया गो?

सीमा : रिया... येदोळ तूं हांगा येतना पासार जाल्लें तें. जाका पळोव
फालतू कॉमेन्ट मारिल्ले तें रिया...

कामेश : आवयस्, ताचें नांव रिया? उसने तो दिल को तोड मरोड दिया
सोयरें बी न्हय मगो?

जयेश : ना रे मडगांवच्यान हांगां आयलां थर्ड ईयराक. बापूय कलेक्टर
अंदू पणजे ट्रान्सफर जाल्या. आल्तीनार रावता... आमचें तिगांचें
इश्ट जालां... सिम्पल, सुस्वभावीक चली... तुकां मेळटात त
चलयांवरी बी समजशी...

कामेश : म्हणल्यार हांव घेवन भोवता तीं कितें गरीबालीं भुरगीं काय कि
तिंवूय श्रीमंत आनी पॉश घराण्यांतलींच आसात.

प्रेतम : तशें न्हय रे कामेश... रिया हांगां शिकूंक आयला मडगांवच्यान. म्हणटकूच आमी पणजेकारानी ताका रेस्पेद दिवप काय ना? नाजाल्यार कितें म्हणटले तें... पणजेकार तसलेच काय म्हणून?

कामेश : आरे... तूं सामकोच इमोशनल जाता मरे... म्हज्या काळजांतलें सांगू... म्हजे खातीर जगातल्यो सगल्यो चलयो सारक्योच. मागीर त्यो पाकिस्तानी आसू वा नेपाळी...

सीमा : पळय कामेश, आमी कितें उलयता तें तुकां समजना. आमचें बरेंऽऽ आमीग जाला तें रिया... तुवूय आमचो आमीगूच... हांव पळय चली आसुनूय तुमचे वांगडा कशें बसला... म्हाका विश्वास आसा तुमचेर... आमी इश्ट म्हणटकूच मोग, अफेयर आमचे मदीं बरे दिसनात रे. परत सांगपाचें म्हणल्यार आमचें थर्ड ईयर... शिकपाक जाय आमकां... रियाक प्रोपोज बी करशी हां... बेठेंच वायटपण नाका आमचेमदीं...

कामेश : पळयात... आमी इश्ट. कॅन्टीनात, कॉलेजांत, कॉलेज सोंपतकूच आमकां आमचें घरदार आसा. खाजगी जिवीत आसा. म्हणटकूच तुमचें आयकून हांव कितें आकवारूच रावू. साधुसंत जाव. परवडचें ना म्हाका... केन्नाच ना... हावें पयलींच सांगलां म्हाकां रिया आवडला म्हणून. म्हजेलागीं पैसो आसा, रूप आसा, (दोन बोटांचो टीक टीक आवाज करून) अशें सहज फारायतलो ताका... तुमकां म्हजीं उतरां आवडनात जाल्यार हांव संबंद तोडपाक शकतां... पूण हांव रियाक उतर घालतलो म्हणल्यार घालतलोंच. बऱ्यान जाल्यार बऱ्यान. नाजाल्यार वायटपणान... (सामको बेजारता) आनी सदांच एक लक्षांत दवरात कुल्याक आयिल्लो केंस हारशांत पळोवन उगोवपाची संवय ना म्हाका.

(नेटान मेजार हात मारता, सिगार ओडटा आनी तिडकीन वता)

जयेश : छी... छी... छी... हो वाट लायतलो रियाची. कितें करूया गो ह्या कामेशाचें. हाका हागांच आनी आतांच दिसूंक जाय आसलें रिया...

प्रेतम : आता कितें करूया गो सीमा? (तिगांय दोन मिनटां वग्गी रावतात. सीमा मोबायल काडटा, रियांक फोन लायता)

सीमा : हेलो रिया... जालें जेवण... फ्री आसा मगो? मम्मा बी म्हऱ्यांत ना मगो? बरें जालें... तर आतां हांव कितें सांगतां तें लक्ष दिवन आयक.

आमी कॅन्टीनात बशिल्लीं आनी तूं घरा वचूंक भायर स
तेन्ना कॅन्टिनाच्या दाराचेरूच एका भुरग्यान तुका पळोवन
घाल्ली... तोंडांतल्यान सिगरेटीचो धुंवर सोडिल्लो... हय,
निळी पॅन्ट आनी वायट शर्ट घाल्लो तोच... तर ताचें नांव क
आवय - बापायलो एकलोच पूत. सामको नावाडगो, पारपो
चलयांची वाट लायल्या ताणें... आनी कॉलेजांतल्यां भुरग्यां
आयकला की तो शिंदळ्यां कडेनूय वता खंय. ताणें तुकां
घाल्ली तेन्ना रोकडोच तो आमच्या मेजार येवन बसलो. अ
वांगडा शिकता तो... मेजार बसतकूच फकत तुज्योच खबरो व
लागलो... ताचो आता तुजेर दोळो आसा. तो तुका प्रोपोज क
सोदता. आमी ताका खूब समजायलो. पूण तो कसोच बदना. व
आमचे कडेनूच झगडूंक लागलो. तूं मात्शें सादूर राव. ताणें
केल्यार हय बी म्हणशी. तो तुकां तरातरांनी भुलोवंक सोदतोल
बदू नाका ताका... बरें तर... पळय हां आतां सगलें तुजेर अव
आसा. बाकीचें आमी सांबाळटात. तूं भिवं नाका. ओके, फोन द
बाय... टेक कॅर...

**जयेश** : हें बरें केलें तुवें सीमा. रियाक पयलींच सादूर केले तें. मागीर अ
भानगडीं नाकात... बऱ्या घराण्यांतलें चली तें रीया...

**प्रितम** : खरें उलयलो तूं

**सीमा** : बरें तर... वेळ खूब जालो... या मरे घरा... परत मेळुया फाल्
म्हाकाय तयारी करूंक जाय...

**तिगाय** : (पुस्तकां पेपर घेतात) बरें... बरें तर... ओके चल !

**(काळोख)**

## देखाव - 2

(रस्त्याची सुवात... कामेश सिगार ओडटा... रिया मोबायलाचेर उल
येता... रियाक पळोवन बेगीन-बेगीन सिगार पालयता)

**रिया** : ना गो सीमा... उदक मात्शें पचूंक ना पणजेचें. ताकाच लागून

दीस कॉलेजाक येवंक ना... वखदां चल्ल्यांत, मागीर येतकीर म्हाका नोट्स दी... सगलें बरें चल्लां मगो? जयेश प्रितम कशें आसात? मस्ती करतात काय ना गो...? विचारलां म्हणून सांग... हय गो सगलें - सगलें लक्षांत आसा. (रिया कामेशाक पळयता... कामेश हांसता)

कामेश : हाय रिया... वाटस् अप?

रिया : सॉरी... हांव वळखूंक ना... कोण?

कामेश : आगो हांव कामेश... कामेश मजुमदार. तूं मडगांवां रावता, आनी थर्ड ईयराक पणजे कॉलेजांत शिकपाक आयलां. तुजो पप्पा कॅलेक्टर. पणजे ट्रान्सफर जाल्या. आल्तीनार रावता. रायट?

रिया : पूण हें सगलें तुकां कशें कळ्ळें?

कामेश : सीमा, जयेश, प्रितम हांची तूं इश्टीण, करेक्ट?

रिया : पूण तूं?

कामेश : आगो... त्या दिसा कॅन्टीनात हांव भीतर सरतालों आनी तूं भायर सरतालें, तेन्ना हावें तुकां पळयलें. (तोंड अजापीत करून) पूण कॉलेज सुरू जावन दोन दीस जाले, तूं दिसलेच ना मगो... कॅन्टिनातूय ना आनी क्लासरूमांतूय ना.

रिया : (मात्शें दुबावता) हां... (आपले भितरूच पुटपुटता) म्हणल्यार सीमान सांगिल्लो तो कामेश होच तर... बळखलो. मागीर कामेश कसो आसा?

कामेश : हांव फॉर्त, आनी तूं?

रिया : मात्शें दुयेंत पडिल्लें... पूण फालांच्यान येतलें.

कामेश : मागीर कशें चल्लां जिवीत?

रिया : जिवीत? जिवीत म्हणल्यार...

कामेश : ना गो. म्हणल्यार फ्युचर प्लान्स... सीमा, प्रितम, जयेश बरीच तोखणाय करताले तुजी... शिकपाक हुशार, मेहनती चली म्हणून...

रिया : तशें कायच ना रे... पयलीं काम मागीर राम...

कामेश : राम?

रिया : देव रे... पयली कश्ट करप... समाजांत नामना जोडप आनी मागीर

देव करप...

कामेश : आं... अशें? म्हाका दिसलें राम म्हणून कोणूय...

रिया : कितें? कितें दिसलें तुकां?

कामेश : आसूं... मात्शें कितें विचारूंक सोदतालों (लाळेता).

रिया : कितें? विचार मरे...

कामेश : तुजो?

रिया : कितें? तुजो कितें?

कामेश : तुजो कोणूय बॉयफ्रेंड बी आसा गो?

रिया : बॉयफ्रेंड?

कामेश : म्हणल्यार लवर गो...

रिया : (मात्शें रागार) ना. म्हजे फकत फ्रेंडस् आसात. बॉयफ्रेंड, गर्लफ्रें
असल्या फालतू गजाली विशीं हावें आयज मेरेन चिंतूंक ना...

कामेश : कितें? चिंतूंक ना म्हणल्यार... सळसळटें रगत मगो आमचें!

रिया : रगत कसलेंय आसू... पयलीं शिकप... बऱ्या कामाक लागप
मागीर आवय - बापूय ठरयता थंय लग्न जावप. ॲरेंज मॅरेज...

कामेश : (लजेता) तुकां कितें तरी दिवंक सोदतालों...

रिया : कितें तें बेगीन सांग. म्हाका वेळ जाता.

कामेश : (बोल्सांतल्यान गुलाब काडटा) घे... म्हजो मोग... म्हजें का
आय लव यू...

रिया : (बेजारता) शी... आतांच हांव कितें उलयलां तें तुका स
समजुंकना दिसता. प्लीज हां कामेश, डोन्ट फोर्स मी. आय एम
इंटरॅस्टेड...

कामेश : आगो हांव आवय-बापायलो एकलोच पूत. लाखांची संपत्ती अ
एका दिसा ती सगली म्हजीच जातली. तेन्ना...

रिया : म्हाका पयलीं म्हजी वळख निर्माण करूंक जाय. तूं
लाखाधीश...

कामेश : वळख... कसली वळख? कितें उलयता तूं रिया... तुका जाय

तें तुज्या पांयां कडेन दवरतां मगो हाडून... हांव खऱ्यानीच मोग करता गो तुजेर. दोन दीस जाले तुकां सोदतां हांव... तूं मेळटलें आनी तुका काळजातलीं मोगाचीं दोन उतरां केन्ना सांगतलो अशें जाल्लें म्हाका. आय रियली लव यू ऱिया...

(म्हऱ्यांत वचून रियाचो हात धरता. रिया हात झडपून उडयता)

कामेश : रिया प्लीज, अशें करूं नाका (वाट आडायता)

रिया : म्हजी वाट सोड कामेश...

कामेश : मजा तरी करपाक शकतात आमी? हॉटेलांत वचून फकत एका दिसापुरती.

रिया : (कामेशाच्या कानसुलार थापट मारता) हलकट, नीच, शीस्त मानमर्यादा नाशिल्ल्या भुरग्यां... चलयांकडेन कशें वागप, कसो रेस्पेद दिवप, शिकोवंक ना तुका आवय बापायन? आतां तुका लास्ट वॉर्निंग दितां, म्हजी वाट सोड, फाल्यां प्रिन्सिपला कडेन कम्प्लेंट करतलें. आनीक एक आयक सीमा, जयेश आनी प्रितमान तुजे बद्दल जें कितें सांगिल्लें तें खरेंच जालें. थँक्स टू सीमा. हलकट खंयचो! आवय बापायक विचार कशें वागप चलयांकडेन तें.

(रियाचो अवतार पळोवन भियेल्लो कामेश ताची वाट सोडटा. रिया वता)

कामेश : (सिगार काडटा आनी ओडटा) हां... तर धुंवर हांगाच्यान येतालो. तरीय हांव चिंततां इतलो हॉट चलो ह्या रियाक कसो आवडुंक ना? कशी भीक घालूंक ना. आनी हावूंच चुकलों, त्या सीमाकूच पयली फटोवपाचें हावें... व्हडलें नारद जावन भोंवता तें... रियान खरें कितें तें सांगलें न्हय... आतां हें रिया कॉलेजांत कोणाक सांगना जाल्यार पुरो रे देवा. पूण सोपूत आसा म्हजो म्हाकाच... म्हज्या घरांतल्यो चादरी जर ह्या रियाक धुवंक लायना जाल्यार, त्या आवयबापायलो पुतूच न्हय हांव. (मोबायल काडटा...) हॅलो, आसा गो घोव घरा कडेन? ना मगो. बरें तर... येता हांव रातचो. हय हय कांय भियेवं नाका. आगो जॅकलीन तूच म्हजें बिपाशा गो... हय कांयच भियेवं नाका... प्रॉमिस. तुजोच आवडटो फ्लेवर हाडटां. आयज मात्सो चडूच

मूड ऑफ जालो... मात्शें खूश कर म्हाका... (मोबायल बंद
असलीं बायलां सदांच बरीं... घोव आसा फॉरेनांत आनी बायल
रडटा त्या रानांत! (हांसता, सिगार ओडटा)

**(काळोख)**

## देखाव –3

(ल्हानसो रूम... भितर तांबडी लायट. काळ्या सुटांतलो, वाडयिल्लो एक दादलो... गळ्यांत भांगराची सरपळी. वण हिरॉईनींचे पोस्टर, म्युझीक रेकॉर्डर वाजता. 'इन्ही लोगोंने.. लोगोंने.. छिना दुपट्टा मेरा!' हळू हळू आवाज कमी जायत एका मेजार सोऱ्याच्यो बाटल्यो, ग्लास.)

**अली** : हां.. साब! तो लडकी कैसी थी. ठिक थी ना... उमर उमर सिर्फ साल... हां... नेपाल का माल था वो... खूश किया ना... और काम हो तो बोलो साब. एक से एक माल पडा हुआ है इधर... कल रशिया माल भी आने वाला है. हमको हमारा कमिशन मिल बस... हर लडकी आपकी कदमो में साब... हां... याद आया... मडगाव मे होटलपर पडी रेड का भी देखो साब... उसमे हमारे की दो लडकियां फसी है... थोडा पुलीस को बोलो ना साब... तो एक रात फ्री मे आपको लडकी पेश करुंगा... ओ. के. स तो इलेक्शन मे कब फॉर्म भरोगे. ये साल पुरा हमारे जमात का आपींच को मिलेगा... अच्छा खयाल रखना... ओ. के. साब.

(रुमांत कामेश येता... मात्सो बेजारला. येवन कदेलार बसता)

**अली** : ओ मेरे यार... आजा... आज इस गरीब को कैसे याद किया?

**कामेश** : कुछ नही... ऐसेही... सोचा जरा मील के आऊ दोस्त को!

**अली** : जरूर कुछ बात होगी... इतने गुस्सेमे क्यो हो? क्या किसीने दिल त दिया? या...

**कामेश** : आरे नही... वो मेरी आयटम जॅकलीन है ना... उसको आज मिल जाना था... पर साला अचानक... आज रात उसका... पती आ मरा

साली ने आधे घंटे पहले फोन करके बताया, मेरा पुरा मूडही खराब कर दिया...

अली : डरते क्यों हो मेरे यार... (फाटीर थापट मारता) ये अलीका दरवाजा हमेशा तेरे को खुला है। जब चाहे आ जाओ, पर ये दोनों बहुत देर बाद आये... ठिक तो है ना कॉलेज में?

कामेश : ठिक कुछ भी नही... एक लडकी है... रिया साली... भीक ही नही डालती...

अली : अरे.. पहली बार ऐसा ही होता है... दुसरी लडकियाँ मर गयी हैं क्या?

कामेश : वैसा नही यार... अली प्यार करता हुं मै उससे...

अली : अरे प्यार प्यार... कुछ नही इन दिनों... सब दो दिन की बातें हैं... पैसा है तो कोई भी कपडें खोलने को तैयार है... और मेरे दरवाजे पर लडकियां कम है क्या? कौन सा माल चाहिए बोल?

कामेश : कोई नईवाली आईटम आई है क्या?

अली : अरे बहुत आई है, पर तुम ही गायब रहते हो (मेजावयलो सोरो ग्लासांत ओतता आनी कामेशाक दिता)

कामेश : (सोरो पियेता, सिगार ओडटा) और वो मडगाव के लफडे का क्या हुआ? पेपर मे पढा था...

अली : अरे कुछ नही.. हरामी पुलीस को हफ्ता थोडा देर बाद पहुँचा, गुस्सा हो गये और हॉटेल पे मार दी रेड... पर तु क्यो डरता हैं, यहॉ कोई नही आनेवाला... तु बिंधास रूम मे जा.. और सामान वामान है ना... या मैं दु?

कामेश : अरे... सामान कि क्या जरूरत? पर सब लडकियोंके फोटो किधर है... अच्छी सी सोला साल की है तो बोल (अली बोल्सांतल्यान रासभर फोटू काडून कामेशाक दाखयता)

अली : बोल, कौन सी अच्छी हैं?

कामेश : ये... ये... वाली... (एक फोटू काडून पळयता) ये आयटम है किधर की?

**अली** : ये... ना? ये है चमेली, साली नेपाल का माल है... दो दिन
इधर आये हुए... पर ये माल के लिये दो हजार एक्स्ट्रा लुँगा !

**कामेश** : (पाकिटांतल्यान पांच हजार काडून अलीच्या हातांत दिता) कि
मे हैं चमेली...?

**अली** : 102 रूम में... जाओ सब टेंशन दुर करो। खुश करेगी तेरे को

(कामेश रुमांत वता).

**अली** : ये कामेश की बात ही अलग हैं... बडे बाप का बेटा... जो
मिलता हैं... पर हमारा खयाल रखता हैं... हमको क्या... आ जा
हमारी ही गली है... इन कच्चे लडकों के लिए हमेशा खुली
सिर्फ पैसा बोलना चाहीए। तुम अंदर मरो या जिंदा रहै ! (अल
मेजता आनी मोठ्यामोठ्यान हांसता) (रुमातल्यान आवाज -
साब, ऐसा मत करो साब... गरीब लडकी हैं साब... जानें दो स
नही साब - तुमको हाय लगेगी साब...)

(हळु हळु पड्डो पडटा)

पयलो आंक सोपता

# आंक – दुसरो

## देखाव –1

(पड्डो उगडटा... दोतोरालो ल्हानसो रूम... एक मेज, दोन खुर्च्यो, एक निळो पड्डो, पाटयेर 'एचआयव्ही काऊन्सिलर' अशें बरयलां. कामेश दारार मारून खुर्चेर येवन बसता. दोतोर कामेशाक निळ्या पड्ड्या भितर व्हरता... परत चॅक करून कदेलार बसता)

दोतोर : तर म्हाका सांग, केन्ना आशिल्ली एच्आयव्ही टॅस्ट कॉलेजांत?

कामेश : जाले दोतोर धा – बारा दीस.

दोतोर : मागीर?

कामेश : मागीर कितें? तुमी पळयतात दोतोर... हो पळयात म्हजो रिपोर्ट. (बोल्सातल्यांन एक रिसीट काडून दोतोराक दाखयता) पॉझिटीव्ह, एचआयव्ही पॉझिटीव्ह (रिसीट काडून मेजार दवरता).

दोतोर : तुवें ही गजाल आनीक कोणाक सांगल्या. म्हणल्यार आमीगांक, आवय – बापायक...

कामेश : ना दोतोर... खंयच्या तोंडान सांगतलों आनी कितें सांगतलों? की म्हाका एच्आयव्ही जाला... पार्टेक येयात म्हणून...!

दोतोर : बरें तर म्हाका सारकें सांग कितें जालां तें...

कामेश : सारकें म्हणल्यार?

दोतोर : सारकें म्हणल्यार... हांव फकत तुजें नांव जाणां, तुज्या फाटल्यान–मुखार कोण आसात? आवय – बापूय आसात काय नात? बापायचें नांव कितें म्हणलें?

कामेश : रमाकांत मजुमदार...

दोतोर : कोण? तो व्हडलो बिझनेसमेन. लाखांधीश?

कामेश : हय तोच.

दोतोर : आरे... आनी हें दुर्येस?

कामेश : हांव म्हजें दुख्ख घेवन हांगा दवाखान्यात आयलां दोतोर. वादळ सांगून येना... प्लिज दोतोर...

दोतोर : सॉरी... खंयच्या वर्साक शिकता तूं?

कामेश : थर्ड ईयराक... आताच एक म्हयनो जातलो पाय दवरल्यार

दोतोर : आनी गर्लफ्रेंडस्?

कामेश : गर्लफ्रेंडस्? आसात दोतोर (मात्सो भावनीक जावन) ल्हान अ आवय किटी पार्ट्यांत बिझी, बापूय बिझनेस सांभाळटलो, वाडयलो आज्यान. धावेक आसतना एके चलयेचेर मोग जाल पूण ताणें ना म्हळें, खरो मोग कसो आसता कळुकूच ना... पयशें मोडूक-बापूय पयशें जोडूंक... म्हज्या काळजांत कितें अ केन्नाच विचारूक ना आवयन - बापायन. मोग म्हण्टात तो केन्ना दिलोच ना... जें कितें केलें तें आज्यान. पूण दोतोर... तें मेळे आवय-बापाय कडल्यान. हांव भरकटत वतालो... म्ह दिसतालें कोणेंयतरी म्हजेरूय मोग करचो... म्हाकां सांबाळून घेव मागीर फस्ट ईयराक समीर नांवाचो आमीग मेळो... सामको लफडे नावाडगो... जाय जाय तें खालें म्हज्या खुस्तार... आनी एक म्हणूंक लागलों... 'कामेश चल, तुकां सर्ग दाखयतां', हावूंय तर रातची बरीच पार्टी केली... ताणेंच पयलीं म्हज्या हाताक ईं मारलें... तें ड्रग्साचें आसलें... म्हाका चडली नशा, मागीर तेच आमी बायणां गेले... समीर म्हणपाक लागलो... जाय त्या वच...' होच तुजो दुसरो सर्ग. थंयच्या अर्दनागड्या चलयांक प त्या ईंजेसांवाचो ईफॅक्ट रोकडोच रगतांत हुवार जावन काळजांत त पावूंक लागलो... हांव सरलों भितर एका रुमांत... थंयच्यान म चलयांची चटक लगली, मागीर केन्ना केन्नाय ईंजेसांव घेवप जा पूण म्हजी चलयां कडेन लबाडी करपाची सवय वाडत वताली. आसलोच बापायचो... खंयचेंय चली रोकडेंच... नुस्तें गरयेक फा तशें फारयतालों... पूण म्हाका अजून याद जायना दोतोर, त्या प

दिसा हावें प्रिकॉशन घेतिल्लें कांय ना तें?

तोर : मागीर?

मेश : मागीर आनी कितें दोतोर? चेडवां मेळत गेलीं... हांव टायमपास करीत गेलों, ताचेंच फळ हें...

तोर : पूण ज्यो नव्यो चलयो मेळटाल्यो, बायणा वतालों तेन्ना प्रिकॉशन्स... कसलीच खबरदारी घेनासलो? कांयच भियेवं नाका हां कामेश... हांगा आमी दोगूय जें कितें उलयतात तें सगलें पुराय गुपीत दवरतात. तशी कॉन्फिडेन्शल फायल आसता आमचे लागीं, भायर कोणाकूय सुलूस लागची ना. आय प्रॉमीस कामेश...

मेश : सगलें घेतालो दोतोर... पूण रबराचेर विश्वास कसो दवरचो दोतोर? हांगा आमचींच मनशां दगो दितात...

तोर : आनी खंयच्याय चल्या वांगडा बी लिंगीक संबंद? कळ्ळें आसतलें तुका?

मेश : कितें उलयतात तुमीं... हांगां चलयोच सुंगटां कशी मेळटाल्यो... हांव ताल्ल्यां फाटल्यान कित्याक धांवतलों..? पूण आतां म्हजो फुडार कितें दोतोर... हांव कितें करूं? हावें आयकलां एच्आयव्ही जातकर मनीस हळूहळू बारीक जावन एका म्हयन्या भितर मरता म्हणून.

तोर : चुकिची म्हायती आयकल्या तुवें.

मेश : एच्आयव्ही आनी एडस् एकूच दोतोर?

तोर : एच्आयव्ही आनी एड्स एकूच न्हय. एचआयव्ही म्हणल्यार 'ह्युमन इम्युनो डेफिसियन्सी व्हायरस' म्हणजेच मनशाली रोगप्रतिकार शक्त नश्ट करपी विशाणु, आनी एडस् म्हणल्यार 'एक्वायर्ड इम्युनो डेफिसियन्सी सिंड्रोम' म्हणजेच रोगप्रतिकार शक्त नश्ट जातकूच जाता त्या रोगांची गँग.

मेश : एच्आयव्ही पॉजिटीव्ह जाल्यार रोकडोच एडस् जाता?

तोर : ना... बरीं वखदां, बरें पुश्टीक जेवण घेतलें जाल्यार एचआयव्ही जाल्लो मंनीस एडसा पसून भरपूर वेळ पयस रावपाक शकता.

मेश : एचआयव्ही एडसासाचेर वखदां बी कितें आयल्यांत दोतोर?

**दोतोर** : आजून मेरेन ना... पूण एचआयव्ही जाल्ल्या मनशांक आपली रो
शक्त तिगोवन दवरपाक, एआरटी म्हणजे अँन्टी रिट्रोव्हायर
घेवंक शकता. योग्य पद्धतीन हे उपचार घेतले जाल्यार, ए
जाल्लो मनीस आठ-धा वर्सां चड जगपाक शकता.

**कामेश** : म्हजी टेस्ट जीएमसींतल्यान घेतल्या. आनीक खंय खंय क
टेस्ट?

**दोतोर** : सगल्या सरकारी हॉस्पिटलांनी ही टेस्ट करतात. प्रायव्हेट हॉ
वचूनय तूं ही टेस्ट करपाक शकता. पूण तुकां आनीक टेस
पडटली अशें म्हाका दिसना. कित्याक तर तुजो रिपोर्ट जीएम
आयला आनी जीएमसी हें गोंयांतलें नंबर वन हॉस्पीटल.
चड बायला वांगडा शारिरीक संबंद दवरले जाल्यार हें दुयेंस च
जावपाची शक्यताय आसता. दुसरें म्हणल्यार ऐकामेकालीं सि
करप, तिसरें आवयच्या दुदांतल्यान तिच्या भुरग्याक. आन
दुशीत रगत आशिल्ल्या दुयेंतीन हेर मनशाक रगत दिलें जा
ऐकामेकांक आफुडप, टॉयलेट यूज करप, पापी घेवप, हातूंत
दुयेंस पातळना. सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार आतां लग्ना पयल
ऑपरेशना पयलीं ही एचआयव्ही टेस्ट कम्पलसरी केल्या.

**कामेश** : आता हांवें कितें करचें दोतोर?(सामकोच भियेता)

**दोतार** : पळय... सध्याचें तुजें हेल्थ पळयल्यार तूं आनीक धा वर्सां व
करून जगतलो... फकत जेवण बरे घें. भाजी, फ्रुटस्, दूद भर
तेचवांगडा ह्यो गुळयो बरोवन दितां, त्यो आयच्यान घेवंक
कर... पंदरा दिसांनी म्हाका मेळपाक यो. आनी एक गजाल या
शारिरीक संबंद दवरताना काळजी घे.

**कामेश** : बरें दोतोर. देव बरें करूं तुमचें. ही घेयात तुमची फी. (कामे

**दोतोर** : (कामेश वतकर) ह्या आयच्या तरणाट्यांक सांबाळ रे देवा...
थंय ताव मारतात आनी जीवीत काबार करून घेतात... स्वता
आपले फामिलीचेंय... (मोबायल काडटा) हां, हॅलो हें कां
मरे... बरें, बरें तर!

(काळोख)

## देखाव – 2

(गिरेस्तकायेचो झगमगाट आशिल्लें कामेशाचें घर... हॉलांत सोफाचेर कामेशाचो बापूय रमाकांत बसला... घरकान्न गीता ताका च्या हाडून दिता. रमाकांत मात्सो बेजारला. पेपर चाळून टिपॉयाचेर दवरता)

कांत : कामेश उठलो?

ा : ना अजून न्हिदला... पूण आयज धंद्याच्यो खबरी सोडून कामेशाचो सो उगडास जालो?

कांत : बापूय न्हय तागेलो, म्हणून... हांव हो बिझनेस करता तो कोणाक लागून हें तुवें जाणा जावंक जाय न्हय! ही इस्टेट, ही प्रॉपर्टी?

ा : आयज एकदम मोग सो उफाळून आयलो पुताचेर?

कांत : आगो हांव आसता म्हयन्याचे म्हयने भायर... तूं तुज्या मिटिंगानी बिझी आसता... कामेश आता थर्ड इयराक. ताणें जें मागलां तें आमी ताका दिलां. पूण दोन मिनटां ताचेंलागी उलोवन आमी ताका मोगाचीं दोन उतरां दिवंक ना. शिकता तरी मगो तो? काय बेठोच वेळ पासार करता कॉलेजांत ?

ा : शिकता तो. बेठोच पावलो थर्ड इयराक?

कांत : आनी ग्रॅज्युएशन करून कितें करतलो खंय?

ा : म्हाका वेळ खंय आसता विचारूंक. तो मागता तितले पयशे काडून दितां ताका. (इतल्यान दोळे चोळीत थंय कामेश येता. बापायक – आवयक हॉलांत पळोवन मात्सो कचरता)

मेश : गूड मॉर्निंग पापा... आयज कामाक वचूंक नात दोगांय?

कांत : आरे आयज थोडो वेळ मेळ्ळो... म्हणलें पुता कडेन चार उतरां उलोवया. मागीर कसो चल्ला तुजो अभ्यास?

मेश : चल्ला बरो... एकदम बरो चल्ला.

कांत : बरो म्हणल्यार? हें तुजें फायनल इयर. मुखार कितें चिंतलां बी काय ना रे... काय असोच...?

मेश : हावें आजून चिंतूंक ना पापा.

रमाकांत : आरे, आतां तरणाटो आसा तूं. हो वेळ तुका परत मेळचो

कामेश : पयलीं थर्ड इयर पास तरी जावनी. मागीर पळोवया.

गीता : आनी हें कितें रे! तुजे दोळे अशे भितर शे गेल्यात? मात्सो दिसपाक लागला तूं! जेवण सारकें घेना काय कितें रे?

कामेश : (मात्सो भियेता) आगे, मम्मा तूं आसता तुज्या कामांत व्यस म्हज्या शिकपांत व्यस्त. केन्ना केन्नाय उपाशीच न्हिदचो पड कठीण आसात गे विशय थर्ड इयराक. रात रातभर जागरण पडटात.

गीता : आरे पूण, आमी पॉकेट मनी दितात मरे तुका. कॅन्टीनांत कितें जालां?

कामेश : खातां गे हांव... पूण थंयचें जेवण बरें नासता.

रमाकांत : आनी फ्रेंडस बी केल्यात मरे कॉलेजांत. म्हाका प्रिन्सिपलाक वेळूच मेळना...

कामेश : केल्यात, भरपूर फ्रेंडस केल्यात.

रमाकांत : आनी गर्लफ्रेंडां बी आसात काय नां रे?

कामेश : कोण गर्लफ्रेंड बी नात. म्हाका शिकपाकूच वेळ मेळना. गर्लफ्रें खंयचीं?

रमाकांत : पळय कामेश, आमी दोगांय बिझनेसांत बिझी आसतात. ताक तुजे कडेन उलयतलो म्हणल्यार पसून वेळ मेळना. ते खाती आतां तुजो फुडार घडोवंक जाय. बरो शिकून आमचेंच नां काडपाक जाय. आमकां कितेंय जालें जाल्यार तुका पळोवप ना. तुजेच खातीर आमी हो पैसो जोडटात. आता वाडटो भुर आमकां समजून घेतलो ही अपेक्षा आमी तुजे कडल्यान द आमचें नांव बी पेड्ड्यार करशी हां... कामेश..

गीता : व्ही आर सॉरी सन. फॉर नॉट शॅरिंग टायम फॉर यू.

कामेश : इटस् ओके मम्मा!

रमाकांत : चल तर. म्हाका एक बिझनेस क्लायंट रावला मडगांवा. पूण क बरो शीक... फुडलो पंदरवडो हांव अमेरिकेक वतलो. मागीर

शिर्डी भोवून येवया. येतां हांव (कामेशाचे फाटीर हात भोंवडायता)

ता : म्हाकाय मात्शें ऑफिसांत सोडात. हावूय येतां तुमचे वागंडा. बरे तर कामेश... आयज नाश्टा हावें केला... खा आनी कॉलेजाक वच. चल येतात आमी (दोगांय वतात).

मेश : शीऽ.. कितलें वायट चिंततालों हांव मम्मा, पापा बद्दल... ह्याच गुन्ह्याची देवान म्हाका पनिशमेंट दिली. मम्मा पापा म्हाका माफ करात. हांव तुमका म्हजे दुस्मान समजतालों... पूण आयज म्हाका कळ्ळें, तुमी जें कितें करताले तें म्हाकाच लागून, म्हजो फुडार घडोवपाक म्हणून (रडटा). पूण आतां कितें फायदो. म्हाकां एचआयव्ही जाला... हांव तुमकां न्याय दिवंक शकलो ना. तुमी दिताले ते पैसे हांव गैरमार्गाक लायतालों. आतां सगलें सोंपलें. आतां सगलें सोंपलें...

**(काळोख)**

## देखाव – 3

(कॉलेज कॅन्टीन... रिया, सीमा, जयेश, प्रितम एका मेजार च्या घेवन बसल्यांत)

ेश : कितें गो रिया, जाली थंडी बरी? पचोवंक शकले मगो पणजेचें उदक?

ा : हय रे... मात्शे त्रास जाले... पूण जाली एकदाची बरी. पूण तूं खंय आसलो रे इतलें दीस?

ेश : हांव गो, आगो एक नाटक केलें हांवें... प्रिन्सिपॉलाक दोतोराकडल्यान एक चीट दिली आनी पंदरा दीस आयलोंच ना कॉलेजांत.

मा : पूण गेल्लो खंय तर?

ेश : हांव आंदोलनांत सहभागी जाल्लों...

तम : आनी हांवूय बी !

ा : कसलें रे आंदोलन?

ेश : ह्या चलयांक म्हुण कांयच खबर ना. गोंयांत ह्या दिसांनी कसलें वारें

व्हांवता तें...

प्रितम : आगो आमचे भाशेचेर संकश्ट आयलां... सगले गोंयकार
सहभागी जाल्यांत. गोंय राज्याचें लग्न इंग्लीश नावाचे ब्रि
कडेन लायतात तें खबर ना? आतां आमची कोंकणी, मरा
सोंपतली...

रिया : हय... हय... हांवें पापाकडल्यान आयकलां आनी पेपरा
बी...

जयेश : तुमकां कितें पडून गेलां न्ही गो सीमा?

सीमा : ना रे, पूण आमी चलयां मरे...

प्रितम : राणी लक्ष्मीबाई चली नासली? चलयो कितें आंदोलनांत
जायनात? ह्याच आमच्या बारीक शा विचारांक लागून भा
आमच्या माथ्यार बसपाक सोदता. आमकां आमचो इतिहास
संस्कृताय हांचो गर्व आसपाक जाय. खरें मगो सीमा,
गो?

सीमा : खरें तर... आमचे मदीं पयलीं एकवट ना... ताकाच त
सोडेचारशीं वर्सां आमचेर राज्य करूंक पावले मरे ते पाखले

रिया : हें मात सामकें खरें. तुमचे असलें तरणाटे अजून मेरेन आसात म
साल्वार आसा आतां मेरेन... नाजाल्यार थोडे आसतात त्य
असले... मॅड खयचों. बापायलो पैसो खावपाचो आनी
फुडार इबाडपाचो...

जयेश : कितें जाले गो? आंदोलनांतल्यान डायरेक्ट कामेशाचेर शें पाव
त्या दिसा झगडून गेल्लो मगो तो तुका उतर घालताच म्हणू

रिया : काय ना रे (मात्शें कचरता)

जयेश : सांग गो... तूं कितेंतरी लिपयता अशें दिसता. आमी आम
तुजीं. कोणाक सांगचीं ना गो आमी कितें जालें तें?

रिया : थंडी जाल्या म्हणून हांव दोन दीस कॉलेजांक येवंक नासलें पळ
एकसुरें रस्त्यार गाठलें म्हाका... लागलो आपल्यो पोजड्यो
सांगपाक... गुलाब दिलो, म्हजो हात धरलो, आनी आपल्या
झेत मारपाक लागलो... म्हाका लग्नाचीय मागणी घाली रोखडी

ती आडगसावां पळोवन म्हाका सामकी भिरभिरी मारली. हावें काडलीं आनी दोन कानसुलार फुलयलीं... जाता तें कर म्हणून सांगलें...

नीमा : सामकोच नीच मगो तर तो... जयेश, प्रितम आमी चिंतलेलें तशेंच केलें मरे ताणें न्हय?

रेया : तुमकां लागून साल्वार हांव... नाजाल्यार तो नराधम कितेंय करपाचो... खऱ्यानीच तुमी सांगले म्हणून ताचे तावडींतल्यान सुटलें हांव...

नीमा : जयेश, कितें रे... तुजें वखद लागू पडूंक ना मरे... काम जातलें मरे शुवर?

रेया : कसलें वखद गो?

सीमा : कसलें न्ही गो. ह्या जयेशाचे थोडे गुंडा इश्ट आसात... कामेशाक मात्सो भंय घाल म्हणून सांगिल्लें हांवें हाका (जयेश... सीमा एकामेंकांक पळयत रावतात)

प्रितम : आनी हांवूय चिंतता हेच गजालीक लागून... लजेन कॉलेजांत येना दिसता तो (प्रितम सीमाक पळयता). ताका आनी लज आसा? ती ताणें केन्नाच भाजून खाली. तुवें प्रिन्सिपला कडेन कागाळ कित्याक करूंक ना तर गो?

रिया : हावें ताका धमकायलो. म्हजे वाटेक वचशीत जाल्यार प्रिन्सिपला कडेन कागाळ करतलें म्हणून सांगलें. तेच खातीर तोंड दाखयना दिसता तो कॉलेजीत. नांवाडगो, हलकट खंयचो...

जयेश : (विशय बदलून) आगो नावाडग्यां तरणाट्या वयल्यान याद जाली. तुमी एचआयव्ही टॅस्ट बी करून घेतली मगो...

रिया : हय हावें केली... म्हाका आनी कसलो भंय. आनी तुमी गो?

सीमा : हय गो. आमीय घेतली. ही टॅस्ट आताच करून घेतल्यार बरी गो. फुडाराक आनी भंय ना.

जयेश : आनी रिपोर्ट नेगेटीव मरे तुमचे?

प्रितम : तूं आनी कितें रे... विश्वास ना... हांगाचे हांगाच उलयल्यात मरे विश्वासाच्यो खबरी... विसरलो?

जयेश : ना रे फकांडां केल्लीं... म्हाका विश्वास आसा तुमचेर. आनी मागीर

सगली कॉलेज एचआयव्ही नेगेटीव मरे?

सीमा : कोणाक खबर... रिजल्ट गुपीत दवरतात न्हय रे (जयेशांक
कोण खंय शेण खाता तें आमका कशें कळटलें...

रिया : अठरा - वीस वर्सांची तरणाटीं आमी... तसो कोण नास
कॉलेजांत.

प्रितम : (मोबायल वाजता) हां... हय प्रितम, केन्ना... सगल्यांक व
चौगाय... चौगांय? बरें तर आमी येतात. हय येतात आमी.

रिया : किते रे... कोणाचो फोन?

प्रितम : आगो... तुजो नावाडगो हलकट हिरो सामको दुयेंत अ
मगो.

रिया : कोण रे?

प्रितम : कोण म्हणल्यार कामेश...

सीमा, जयेश : (एकामेकांक पळंयतात) तुजे श्राप लाग
कामेशाक...

रिया : हावें गाराणेंच घाल्लें दामबाबाक... पाडूच पडू म्हणून ताचें.

प्रितम : तशें न्हय गो... आमचो आमीग तो... तीन वर्सां जालीं आमी व
ताका... फकत एकूच दुयेंस गो ताका चलयांक घेवन भो
इतलेच खातीर ताका सोडून दिवपाचो? दुयेंत पडला न्हय त
घेवपाक कितें जाता? या मगो खबरीक?

सीमा : हय गो रिया.... एकेवटेन चिंतून पळय... आवय बापायलो मो
ना म्हणून असो जालो तो. हावें आयकलां ल्हानाचो व्हड वा
केला म्हणून ताका.

रिया : तुमी कितलीय मनयात म्हाका... हांव कशेंच ताचे खबरी
ना. म्हाका नदर घालपाची ना त्या हलकटाचेर... तुमी वचात
येवचें ना... कळ्ळें (तापता).

जयेश : बरें... बरें... तापूं नाका... आमी वतात.

प्रितम : खरें म्हणल्यार... आमकां चौगांकूय मेळूंक सोदतालो तो. पूण
नाका रिया... ताचेर नदर पडटकीर आनीक तकली तापतली

सीमा : (जयेशाक पळयता) पूण जालें तरी कितें काय कामेशाक? आनी आमकां सो मेळपाक सोदता?

जयेश : पळोवया मगो वचून...

रिया : कामेशान विचारलें जाल्यांर सांगात... हांव मडगांव गेला म्हणून. टॉपीक काबार.

प्रितम : केन्ना फाल्यां या मगो सीमा?

सीमा : हय... फाल्यां या... पूण कॉलेज सुटून हां... चल बरें तर, या मगो लॅक्चराचो वेळ जालो.

रिया : चल या.

(तिगांय वतात.)

**काळोख**

## देखाव - 4

(कामेशालें घर... एका रूमांत मेज. कामेश खाटीर न्हिदला... दोन-तीन खुर्च्यो... मेजार टॉनीक गुळयो... जयेश प्रितम, सीमा भितर सरतात. कामेश उठून बसता.)

कामेश : येयात... कशें आसा तूं सीमा?

सीमा : हांव बरें आसा... पूण तुका एकदम कितें जाले रे? बरो सो ना जालो...!

कामेश : कायच ना गो बारीक जोर येता आनी संडासाक जातां. आनी तुमी रे जयेश, प्रितम चल्ला मरें बरें?

प्रितम : हय आमचें एकदम बरें चल्लां... तुजीच याद करतालीं कॉलेजांत. आनी मम्मा, पापा खंय रे?

कामेश : मम्मा, पापा? (हांसता). तांका पैसो व्हड... वावराडी आसा न्हय... कितेंय मागल्यार हाडून दिवपाक.

जयेश : पूण असो एकदम दुयेंत पडपाचें कारण?

कामेश : तें आसूं... रिया येवंक ना... मॅसेज पावूंक ना काय कितें रे,
ना म्हणून?

सीमा : मॅसेज पावयला... पूण तें मडगांवा गेलां... ताची आजी बरी न
फाल्यां-परां पावतलें पणजे. (सीमा जयेशाक दोळो मारता)

कामेश : तुमी तिगांय म्हजी सारकीं जीवाभावाचीं इश्टां... सीमा तूं,
प्रितम आयज हांव तुमचे लागीं चूक मागता.

सीमा : चूक? कसली चूक रे? आनी कित्याक?

कामेश : त्या दिसा कॉलेजांत... कॅन्टीनांत हांव खूब फाल्स उलयलों.
खरें सांगता... आवयन-बापायन जोडून दवरिल्ल्या पयशांच्य
हांव उलयलो... तुमकां भरपूर वायट दिसलें आसतलें. पूण
काळजांतल्यान मानिल्लो इश्ट म्हणून म्हाका माफ करात...
भरपूर उपकार जातले!

प्रितम : आरे... अशें कित्याक उलयता तूं... जालें ते जालें. तें आनीक वि
घेवन बसप? तूं बेगीन बरो जा पळोवया... आनी फटाफट कॉ
यो... आमकां सगल्याक इतलेंच जाय!

कामेश : पूण रिया...? रियाकडेनूय म्हाका चूक मागपाक जाय आसली

तिगांय : रियाकडेन चूक?

कामेश : एक गजाल सांगतां... त्या दिसा कॅन्टीनांत तुमचे वांगडा इ
उपरांत हावें रियाक एकसुरे गाठलें... आनी नाका नाका ती
दिलीं. तें म्हाका केन्नाच माफ करचें ना. हांव रियालागीं चूक म
सोदतालों!

जयेश : (सीमाक पळयता) आरे कामेश... तूं पयलींच बरो ना. अशा
सगल्यां कडेन 'चूक जाली, माफ करात...' हे कितें? बरो जा
अमेरीकेंत बी रावपाक वचपाचो आसा काय कितें रे?

कामेश : हांगा म्हज्या जीवाचीच अमेरीका जाल्या...

प्रितम : हो कितें उलयता तेंच कळना... सरळ उलय पळोवया. आमी
तुजे खबरीक आयल्यांत. आनी तूं आमचीच तकली जड करता म
काळजांत कितें घोळटा तें सरळ उलय मरें... कसलोय प्रॉब्लेम
जाला जाल्यार सांग. आमीग मरे तूं आमचो?

कामेश : पळयात हां... ही गजाल हावें अजून म्हज्या मम्मा-पापाक पसून सांगूना... तुमी तिगांय पयलीं मनशां आनी तो दोतोर... मम्मा-पापाक फट मारल्या हांवें... बेठोच जोर आयला म्हणून सांगून... आयज म्हाका पश्चाताप जाता.

सीमा : पूण गजाल कसली ती तरी सांग मरे.

कामेश : तुमी जाणांत न्हय आमच्या कॉलेजांत एचआयव्ही टॅस्ट कॅम्प आशिल्लो तो...

प्रितम : हय. मागीर?

कामेश : मागीर... म्हाका म्हज्या पातकांची फळां मेळ्ळीं. (रडपाक लागता)

तिगांय : कितें!!! (ऐकामेकांक अजापान पळयतात)

कामेश : म्हजो रिपोर्ट पोजिटीव्ह आयलां. म्हाका एचआयव्ही जाला. हांव एडस् पेशंट जालां (रडटा).

तिगांय : कितें? तूं आनी एचआयव्ही पोजिटीव्ह?!!

कामेश : हय... म्हाका एचआयव्ही दुयेंस जालां... आतां थोड्यांच दिसां भितर हांव मरपाचो आसा. पूण हाल हाल जावचे पयलींच हावें केल्ल्यो चुको म्हाका उगडास जाल्यो... खूब चलयांक घेवन भोवलों हांव. तांचे मदल्या कोणें हो रोग दिलो कळ्ळेंच ना... आता आनीक जगप नाकाच शें दिसता... आवय-बापायकूय सांगूना हावें... केदी व्हडली चूक केली हावें... परत परत तुमची याद येताली... तुमचे लागीं काळीज उकतें करीनशें दिसतालें... म्हाका मनांतल्यान कळ्ळे रे... आवय-बापाय कडेन कितलोय पयसो आसू... त्या पयशांचो बरोच उपेग करूंक जाय... ना जाल्यार म्हजे असले पूत जल्माक येतात. आयज तुमकां हावें हांगा फकत 'म्हाका पश्चाताप जाला' इतलेंच सांगपाक आपयल्यात. एक भाव कसो तुमी म्हाका समजून घेतलीं अशी खात्री आसा. हांव फाल्यां मेलो जाल्यार पसून म्हज्या दुयेसा बद्दल कोणाकूच सांगू नाकात. 'परत एकदां' जर देवान म्हाका मनशाच्या जल्माक घालो, जाल्यार तुमचे असलींच बरी इश्टां मेळूं म्हणून देवालागीं मागतलों, देवालागी मागतलों...(रडटा)

सीमा : तुका... खऱ्यानीच पश्चाताप जाता कामेश?

कामेश : हांव... मरणाच्या दारार रावून फट कित्याक उलयलों?

सीमा : तशें जाल्यार आयक... तुका एचआयव्ही बीन कांयच जावं

कामेश : (अजापान) कितें? कित्याक म्हजी फकांडां मारता गो सीमा

जयेश : हय... तुका एचआयव्ही दुयेंस जावंक ना...

प्रितम : खरेंच सांगता हीं दोगांय... सीमा तुजे बापोल भयणीची का ह्या कामेशाक... मागीर सगलें कळटलें ताका...

सीमा : हेतल नायकाक वळखता तूं कामेश? तें हेतल रे. फर्स्ट इय ताका लग्नाची मागणी घालून तुवें भरपूर भोंवडायलें... ता शारिरीक संबंद जोडले... ताका बाबड्याक दीस गेले... वचून ताच्या आवय-बापायन ॲबॉर्शन करून घेतलें... पूण सगली काणी म्हाका सांगून गेल्लें... हांव डाव धरून आसले बुद्ध शिकोवपाची... तूं बऱ्या बऱ्या चलयांचीं जीवीतां पे करीत आसलो. हेंतल नायक... म्हजी बापोल भयण, कॉलेज गेलें... म्हाका भरपूर राग आयिल्लो. पूण तूं आनी तुज्या मुखार कोणाचें कितें चलपाचें... ज्या दिसा तुवें रियाक पळ म्हाका परत हेतलाची याद जाली... आतां हो रियाचीय वाट लायतलो अशें दिसलें. त्याच वेळार निर्धार केलो, तुका वेगळे तरेन बुद्ध शिकोवपाचो... योगायोगान त्याच दिसांनी कॉलेजींतूय एचआयव्ही टेस्ट आसली. आमी तिगांनीय थार तुका जीवीताची मात्शी वळख करून दिवपाची... जयेश तूं मुखावयली काणी...

जयेश : जीएमसींत जो दोतोर जुनियर आसलो. जो सगल्या भुरग्यांचें काडटालो... तो म्हजो मावशे भाव. आमी तिगाय वचून ताका मे तुजीं कर्मां आनी कर्तुबां ताका सांगलीं आनी तुजो एक ब एचआयव्ही रिपोर्ट तयार करून दी म्हळें... फकत तुका सुदारपा कामेश... आमी सांगिल्ले प्रमाणें ताणें तुजो रिपोर्ट पॉजिटीव्ह दाख आमी इतल्याचेरूच थांबूंक नात. तू ज्या दोतोरागेर ॲडवायस घे गेल्लो, ताकाय वचून आमी मेळ्ळीं. भीक मागली... तुका थे हागवण लागपाच्यो, मोडशी पडपाच्यो, फ्राकसाण येवपाच्यो गुळ

म्हणून सांगलें. तुजी कर्तुबां आयकून तोय तयार जालो. ताणें आमकां सांगात दिलो. आनी आमकां गर्व, अभिमान दिसता. आमी केल्ल्या इल्ल्याश्या नाटकुल्यांचें... तुका प्रायश्चीत मेळ्ळें... तूं सुदारलो.

प्रितम : कामेश... अवर फ्रेंड... हे सगलें आमी तुका सुदारूंक केल्लें... तूंच चिंत मरे... फुडार पयलीं... शिक्षण पयलीं... काय मोग, अफेअर पयली...? आवय-बापायचें नांव वयर काडप हेंच आमचें पयलें उद्दीश्ट आसपाक जाय मरे?

कामेश : (सामकोच पिसावता... बेजारता... खंयच्च्यान तरी सिगार हाडटा. पेटयता) तुमी ह्या कामेश मजुमदाराक असोच मुर्ख केलो... येदो व्हडलो डाव मांडलो... म्हज्या जीवीतालागीं...

सीमा : फकत तुका शिश्त लागची म्हणून कामेश... तुज्यांत सुदारणा जावची म्हणून...

कामेशं : बंद करात तुमची तोंडां आनी चलूंक लागात हांगाच्यान, फाटले पंदरा दीस हावें रॅबीज जाल्ल्या सुण्यावरी घरांत काडल्यात... आनी म्हाका अॅडवायस् दितात... सुधार म्हणून... ही कसली तरा सुदारपाची... हां... (तिडकता). ही गजाल जर म्हाका कळूंक नासली जाल्यार... तुमी हांगाच्यान गेले उपरांत हांव आत्महत्त्या करपाचों आसलों... हीच देख दिल्या तुमकां... तुमच्या आवय-बापायन. हांव मेल्लों जाल्यार म्हज्या आवय-बापायक ना जावपाचों. आनी तूं गो सीमा... तुजी बापोल भयण हेतल... तेंच म्हजे पयशें पळोवन मॅगनेट जावन म्हऱ्यांत आयिल्लों म्हज्या... म्हाका दसूंक... ताका दीस गेले जाल्यार हांव कितें करूं? सामके मिडलक्लास विचार मरे तुमचें... आयच्यान आमची फ्रेंडशीप तुटली. आनी परत कॉलेजांत म्हाका जाप घालशात तर खबरदार. म्हज्या भावनांकडेन खेळ्ळीं तुमी... जाय जाल्यार हांव आताच पुलिशेंत फोन मारून तुज्या त्या मावशेभाव दोतोराक आनी तुमका अॅरेश्ट करूंक शकता, कळ्ळें जयेश?... पूण आसूं... वचात हांगासरल्यान. आनी वतना एक उतर आयकात... त्या रियाक फारयतलोंच हांव... भियेंवनाकात... आनी कॉलेजांत बेठ्योच म्हज्या नांवांन वावड्यो बीन उठयशात जाल्यार... सांबाळून...

जयेश : कामेश... व्ही आर सॉरी... पूण आमी जें नाटक केल्लें तें तुका सुदारपाक...

**कामेश** : यू गेट आवट... स्कँडलर्स, हलकट खंयचीं...

(तिगाय वतात...)

**कामेश** : शी... सूं जालें मरे... (गुळयो, वखदां भायर मारता, दुसरें सि पेटयता) (मोबायलाचेर उलयता) हॅलो जॅकलीन गो... हय क गो... काय ना गो... मात्सो बरो नासलो... फाटले फावटीं अच घोव आयलो न्ही गो घरा तुजो....म्हाका दुसरे कडेन वचचें पडल मागीर आसा गो... घोव घरा... ना मगो... बरे जालें तर... अस बायलां आवडटात म्हाका... मागीर डन मगो... कितले दीस ज गो घोव वचून... एक म्हयनो...? आनी येतलो केन्ना गो? ओके डन तर. आयज म्हाका तरतरीत कर आनी आयक बरे गिफ्ट दव तुकां. रातचें हाडटा... हय डन... लव यू डार्लिंग (मोबायल करता) छी... ह्या तिगांनीय जीव काडलो मरें म्हजो. तरी पूण हांव हावूंच... शंभर धपके सोनारालें एकूच धपको... लोहारालो... हा हाऽऽऽ हाऽऽऽ (हांसता).

**(काळोख)**

## देखाव – 5

(एक बंद रूम, दोन जनेलां... निळे पड्डे, एक मेज. रित्यो बाटल थोड्यो वखदांच्यो, थोड्यो उदकाच्यो... सामान अस्ताव्यस्त पडल एक खाट, तिचेर कामेश न्हिदला... खाड वाडलां, पेशंटाचो नि युनीफॉर्म, रुमाच्या दारार 'एचआयव्ही आनी एडस् पेंशट' अशें बरयल कामेश सामको फ्राक जाला... ताच्या उठपाक पसून जायना. ब यत्न करून तो खाटी वयल्यान उठटा)

**कामेश** : आगे कोण आसा भायर... दोतोर? (काकुळटेन मोठ्यान आड्डत दोतोर... नर्स... आरे कोणूय तरी आयकात रे म्हजें... नर्स... म्हा तान लागल्या... म्हाका उदक जाय (उदका बाटली सासपीता... ती रि पळोवन तिडकता... बाटली जमनीर आपट्टा. इतल्यान जनेलांतल्य उदकाची एक बाटली कामेशाच्या फुड्यांत पडटा... (भितरल्य नर्सीचो आवाज)

ावाज : घे मर...

(कामेश बाटली उगडटा आनी अधाशीपणान तोंडाक लायता)

ामेश : आगे, म्हाका मात्सो भायर व्हरात गे... म्हजो जीव फुगार जाता.

ावाज : तुका भायर सोडून आमकां मरपाचें ना. ताचे परस तूच मर भितर...

ामेश : आगे हें एचआयव्ही दुयेंस भायर भोवल्यार, हात लागल्यार आनी एकामेकां कडेन उलयल्यार जायना हें खबर ना तुमकां...?

ावाज : आरे हलकटा... तुजें दुयेंस लास्ट स्टेजीचेर आसा... तूं आतां रोखडोच मरतलो... तुजो एकूच वायरस पुरो आमचें जीवीत काबार करूंक... मजा मारताना... चेडवांक घेवन भोंवतना कळूंक नासलें...

ामेश : आगे जाली गे म्हजे कडल्यान चूक, पूण हेर दुयेतीं वरीच म्हाकाय पळयात गे... कितले दीस जाले हाव भायर भोवल्यार, सुर्याची किरणां पळयल्यार... बरें जेवण जेवल्यार... सदां सदां, तेंच तेंच कुसकें जेवण वाडटात... कोणाकूय फोनूय करपाक दिनात...

ावाज : (तापट) हें... हें तुज्या बापायचें घर न्हय... आमी सांगिल्लें तुकां हें दुयेंस घेवन... मरपाक हांगा यो म्हणून? वग्गी पड आनी कितें घालतात तें जेव... आनी वाट पळय मरणाची... केल्लीं पातकां याद कर...

ामेश : व्हडली व्हडली बातां मारतात मगे तुमी? एचआयव्ही जाल्ल्या मनशां कडेन भेदभाव करीनाकात, तांका हेरांसारकोच मोग दियात, सन्मानान वागयात... हें आनी असलें कितें कितें तुमी व्हडलीं सेमिनारां घेवन, पेपराचेर दिवन लोकांक सांगतात मगे... आनी प्रत्यक्षांत मात हांगां पेशंटाक सामकेच सुण्यावरी करतात...

ावाज : आरे, हें सरकारी हॉस्पिटल... हांगां तुजे असले भरपूर पेशंट आसात... रावूंक जाय जाल्यार राव... ना जाल्यार दोतोराक सांगून डिस्चार्ज घे आनी बिटकी कवळ तुजी... नस्ती पिडा खंयची... ते पळय तुजे इश्ट, आवय-बापूय येतात तुका मेळपाक. आतां सांग तांकां आमच्यो चाडयो... पूण एक सांगतां, तांचे कडेन कितें उलोवपाचें तें सांबाळून उलय... आमीं सतायतात बी म्हणून सांगलें जाल्यार तीं वतकीर मागीर उपाशीं दवरून तुजे कशे हाल करतां तें पळय... तुकां मारून उडोवपाक पसून फाटीफुडे पळोवचीं नात आमीं...

(बापूय-रमाकांत, आवय-गीता, इश्टीण सीमा, जयेश, प्रि
सगलीं कामेशाच्या रुमांत भितर सरतात... सीमाच्या हातांत
ॲपल्स, मोसंबी...)

**कामेश** : पापा, मम्मा कशीं आसात तुमीं?

**रमाकांत** : (दुखेस्त अंतस्कर्णान) आरे कामेश... येदें व्हड दुयेंस तुका
आनी तुवें शेवटाक मेरेन आमकां कित्याक सांगले ना रे...
दुस्मान तुजीं... काय तूं आमकां नाका आसलो रे?

**कामेश** : हांव तुमका लजेक घालूंक सोदी नासलों.

**गीता** : आनी म्हणून कोणाकूच सांगिनासतना, एकटोच येवन हॉस्पि
ॲडमीट जालो... आमी कोण रे तुजी?

**कामेश** : म्हाका मात्शी फ्राकसाण आयिल्लेवरीं दिसतालें म्हणून ह्या हॉस्पि
आयिल्लो... दोतोरान रगत चेक केलें आनी म्हजो रिपोर्ट एचअ
पोजिटीव्ह मेळ्ळो... हांव एचायव्हीचे सामके फायनल स्टेजीर आ
ताका लागून तांणी म्हाका रोखडोच ॲडमीट करून घेतलो... अ
उपायूच नासलो. त्याच दीसा म्हाका ॲडमीट जावचो पडलो...

**रमाकांत** : (भावूक जावन) कामेश... तुका आमी एकदा सांगिल्लें... आमच
वयर काड म्हणून... आमी जें कितें करतात तें सगलें तुजेच र
म्हणून... हेच फळ दिले मरे आमकां? आसूं, चल आतां या
हांगाच्यान...

**कामेश** : नाका पापा... आता आनीक म्हाका घर नाका आनी पयसोय ना
आता हॉस्पिटलूच म्हजें घर... म्हाका माफ करात. मम्मा, पा
हावूच चुकलों... आनी सीमा, प्रितम, जयेश हांव सामको सोंप
सगले वटेन... पूण तुमी खबरीक आयलीं, बरें दिसलें म्हाका...
आसतना लेगीत तुमकां याद दवरतलो हांव... खूब सतायलीं त
हावें... खूब यत्न केले तुमी म्हाका सुदारपाक... पूण म्हजे
सवयेन म्हाका आयज मरणाच्या दारार हाडून सोडलो!

**सीमा** : आसूं रे कामेश... (नमळतायेन) जें घडपाचें आसता तें कोणूच टाव
शकना... पूण आयज आमी तुकां घरा व्हरपाक आयल्यांत. तूं
रावूं नाका. एचआयव्ही पेशंट घरा रावूनय वखदां घेवंक शकता.

कांयच भियेंव नाका, आमी आसात तुजें वांगडा...

मेश : नाका, नाका. आता आनीक म्हाका घर नाका. मम्मा, पापाक त्रास नाकात, आतां मरण येतलें तें ह्याच हॉस्पिटलांत...

मा : तूं सुदारचो म्हणून आमी येदें व्हडलें नाटक केले. तरीय हो एचआयव्ही खंयच्यान आयलो?

येश : तूं जाणा कामेश... तुजे सतावणुकीक लागून, रिया... आमचें सगल्यां बरे फ्रेंड कॉलेज सोडून गेले...

ाकांत : आमीच चुकलीं... तुका ल्हानपणांतूच बोर्डिंग स्कुलांत घाल्लो जाल्यार, आयज हे दीस पळोवचे पडचे नासले.

ता : कितले मायेमोगान तुका ल्हानाचो व्हड केलो जाणा तूं कामेश? (रडटा). कितलो मस्तो आसलो तूं. पूण आमी सांगिल्लें मात सगलें आयकतालो... आता आनीक चड चिंतून कायच फायदो ना... चल या घरा...

मेश : नाका मम्मा... आता आनीक घर नाका...

तम : पूण... त्या दिसा आमचे कडेन कॅन्टिनांत झगडिल्लो तेन्ना पुराय बरो आसलो मरे तूं... मागीर हें कितें घडले तर रें तुज्या जीवीतांत?

मेश : त्या दिसा तुमी म्हाका खूब खूब समजायलो. हांव सुदारचो म्हणून तुमी व्हडलें नाटक केलें... पूण उमथ्या कळश्यार उदक... त्या दिसा तुमका तिगांकूय घरांतल्यान धावंडावन घाले उपरांत हांव सरळ उठून जॅकलीनागेर गेलों... जॅकलीनाचो घोव फॉरेनाक आसता. अर्दीमर्दी केन्नाय वर्सातल्यान एकदां बी तो घरा येता... जॅकलीनाच्या घोवाचे खंय जायत्या चलया वांगडा कॉन्टॅक्टस् आसले. जॅकलीन एका दिसा म्हाका मोर्केटांत मेळिल्लें... थंयच आमची वळख जाली... हावें हें कोणाकूच सांगूंक नासलें. आमचे फिजिकल कॉन्टेक्टस् येताले. जॅकलीनाचो घोवूय घरा येतकीर आपल्या भायल्या भानगडींविशीं ताका सांगिनासलो. जॅकलीनान ही खबर केन्नाच म्हाकाय सांगुक ना... घोव आनी आपूण सदांच प्रिकॉशन्स घेतात अशेंच तें म्हाका सांगतालें. आनी हांव ताचे विश्वास दवरून असुरक्षीत संबंद दवरूंक लागलों. आनी जावपाचें तेंच जालें... चेकअप केलें तेन्ना ह्या एचआयव्ही

दुर्येसाविशीं कळ्ळें. आज हांव खऱ्यानीच एचआयव्ही पेशंट
ह्याच हॉस्पिटलांत म्हाका मरपाचो आसा. सीमा, जयेश, प्रित
असले बरे आमीग मेळ्ळे म्हणुनूच हें सगलें हांव तुमकां
पावलों... मरचे पयली तुमचेलागीं एकूच मागतां... आड वटे
लोकांक अशेच सुदारपाचे यत्न करात... तांकां आवय-ब
आयकूंक सांगात. असुरक्षीत मार्गान वतात तांकां परत एकदा ब
दाखयात. एकेच चलये वांगडा प्रामाणीक रावून जीवीत जगात
घुंवळी वखदांच्या नादाक लागू नाकात, अशें तांकां सांगात..

(रमाकांत, गीता, सीमा, जयेश, प्रितम... सगलीं कामेशाव
घेतात... कामेश रडटा... सवकास काळोख जाता)

(सोंपता)

## देखाव –1

('मडगांव बस स्टॅण्ड' बरयिल्लो फलक)

णेश : शी... पावस पडपाचो आसा दिसता...

येश : हय रे... मडगांवां मेरेन पावलें... हॅल्मेट नासतना...

णेश : फेरी आसा न्हय रे... रायची... थंय ट्राफीक पुलीस रावल्यात खंय?

येश : तें खरें रे... पूण आमकां पणजे पावपाक जाय... आनी आमी हॅल्मेट हाडूंक ना... कितें करूया?

णेश : – एनएच– 17 हायवे म्हणटात तो होच मरे? मडगांवच्यान पणजे पावतासर खंय तरी आसतलेच पाड पडिल्ले हे ट्राफीक पुलीस... तुजें लागी आसा तें लर्निंग लायसन्स मरे? म्हजें लायसन्स केन्नाच सोंपलां. रिनिव्ह करतलों म्हण्टां, पूण वेळूच मेळना...

नयेश : आरें, आयज म्हजे नोकरेचो फॉर्म भरपाचो निमणो दीस. आयज ना जाल्यार केन्नाच ना... मागीर परत फुडल्या पांच वर्सांनी...

णेश : हेल्मेट जायच रे... त्या धव्या बगळ्यांक दोखोवंक... कितें करूंया? छेऽऽऽ

नयेश : तें पळय कोलवा सर्कल... आनी तो पळय ट्राफीक पुलीस. मात्शें ताका सांगुया रे हॅल्मेट ना म्हणून... आनी पणजे बेगीन पावपाक जाय म्हणून.

णेश : आरे, तो पयलीं आमकां कातरतलो...

नयेश : आसूं रें... दामबाब पावल्यार पावलो. दामबाबा पाव रें...

## देखाव – 2

(कोलवा सर्कल... एक ट्राफीक पुलीस आसा)

नयेश : (पुलिसाक) सर, तुमचो एक फावोर जाय आसलो...

णेश : सर, आमकां बेगीन पणजे पावपाक जाय, कशेय करून... आमी जाणात

'रोड म्हणल्यार जोड'. आमी हॅल्मेट हाडूंक ना. आनी हाचेकडे लर्निंग लायसन्स आसा. तुमका कितेंय मेण - बीण चिकटोव जाल्यार सांगात... आमी चिकटायतात.

(पुलीस फकत आयकता... मात्सो कॉमीक टायप, सद्या तरी

**पोलीस** : पयलीं म्हजी... गोंयचें ट्राफीक ह्या विशया वयली एक आयकात.

**दोगूय** : म्हणात... आयकतात आमी (ऐकामेकांक दोळे मारतात)

**पुलीस** : *गोंयचें रस्ते... कितले मस्ते (2)*

*हजारांनी लोक मरतात*

*जशें... मार्केटांतलें नुस्तें ।।*

**दोगूय** : वा... वा... वा...

**गणेश** : (जयेशाक पळोवन - पुलिसाक चार आणे कमी आसात हें खातीर दोळो मारता) हो मात्सो... कळ्ळें तुकां...

**जयेश** : आसूं रे... आतांच आठ जाल्यांत सकाळचीं... पांच मेरेन पावल्यार पुरो...

**पुलीस** : म्हजी दुसरी कविता आयकात...

**गणेश** : सकाळच्यान हाका कातरपाक कोणूच मेळूंक नात काय कितें

**जयेश** : (मात्सो तिडकीन) सायब, सादर करात तुमची कविता.

**पुलीस** : हां... तर आयकात...

*फ्रॉम कोणकोण टू पेडण्यां*

*पणजे टू राय (2) ।*

*बायक आसा हॅल्मेट ना,*

*बायकाक तुजे उजो लांय... ।।*

**जयेश** : (अजापान) हाका पयशे जाय दिसता. हॅल्मेट ना म्हणून थोमणे पळय आमकां...

**गणेश** : आसूं... सायब, हें कोलवा सर्कल... हो रस्तो कोलवा वता त

पणजे वता, हो तो मडगांव वता, आमी फेरयेन आयल्यात म्हाका मात्शे सांगशात होऽऽ तो रस्तो खंय वता?

ुलीस : (हांसता) फाटलीं... पांच वर्सां हांव ट्राफिकांत काम करतां, पूण अजून मेरेन हो रस्तो... हांगाच आसा खंयच वचना. (हांसता)

णेश : हो म्हणून मरे... सोड. कशेय करून आमकां पणजे पावपाक जाय. पांच वरां जावंचे पयलीं अर्जंट काम आसा. टू व्हिलर आसा पूण आमी हॅल्मेट हाडूंक ना.

ुलीस : वा... आयज सोमार, आता 8.15 जाल्यांत, दीस आसा व्हडलो. एकूच काम करात, तुमची बायक हांगा बस स्टँडार पार्क करात आनी शॅटल सर्विस बशीची तिकेट काडून पणजे वचात.

नयेश : हो पुलीस म्हणून मरे... कोणें एकल्यान खंय दरकल पळोवंक नासलें ताणें कालवां पळयली... आमी ट्राफीक पुलीसा कडेन उलयतात कांय ट्रॅवल एजंटा कडेन रे?

णेश : सायब... ही गाडी दुसऱ्याली... म्हणल्यार जयेशाच्या बापोल भावाची. नवी करकरीत टू व्हिलर हांगां दवरून पणजे वचप म्हणल्यार?

ुलीस : हॅल्मेट ना न्हय तुमचें लागी... ऑके... म्हाका एक सांगात, हॅल्मेट कित्याक घालतात रे तकलेक?

णेश : (रागान) सांगू?

ुलीस : सांग, सांग. म्हाकां वायट दिसचें ना. काळजांत आसा तें भायर काड.

णेश : आरे सर, तुमी ट्राफीक पुलीस बाटेर, कोनशांक, कुड्डाळे पुलार, बोरये पुलार, कुंडय देंवतेर, झाडांनी आनी झोंपानी लिपून रावतात ते तालांव दिवपाकूच न्हय? हॅल्मेट नासल्यार लोकांक लुटपाक, पयशें खावपाक...

नयेश : (गणेशाक) आसूं... आसू गणेश.

ुलीस : ना. ना. उलोवंदी ताका... जालें उलोवन (हांसून)... तुमी तरणाटे, पुलीस तालांव दितले म्हणून... हॅल्मेट घालतात न्हय... म्हाका एक सांग रे... सोरो पियोवन गाडी चलयतात मरे तुमी? अपघात जातात

तुमकां मरे... हॅल्मेट घालेंना जाल्यार तकली कोणाची फुट्टा रे? ट्र
पुलिसाची काय बायक चलोवप्याची रें?

(दोगूय वग्गी)

**पुलीस** : येदोळच्यान तुमकां हांसोवपाचो, तुमचो टायमपास करपाचो करतालों हांव... स्पीड ब्रेकर, रम्बलर आनी ट्राफीक पुलीस, कटायलें म्हणटकूच जालें. जग जिखलें? जाले तुमी रस्त्यावयले मागीर रस्त्यार तुमची गाडी, मोबायल आनी अपघात. परत तुमची उबारपाक, मडीं उबारपाक, तुमच्या सोयऱ्यांक बांबोळे पावो ट्राफीक पुलीस मरे?

(दोगूय वग्गी) (इतल्यान थंय एक पिसो येता)

**पिसो** : बाबा, बाबा. एक धा पयशें आसल्यार दी रे, पॅट्रॉल घालपाक, बंद पडल्या वाटेर... थंय... आगशे देंवतेर...

**पुलीस** : (पिशाक पळोवन दोगूय वग्गी. पुलीस पिशाक सांबाळटा)

**गणेश** : (दोगूय हांसतात) (पिशाक पयशे दितात... पुलीस तांकां आडा रस्त्यावयल्यान फुटपाथार हाडटा)

**गणेश** : शी... एक पुलीस कमी आसलो म्हणून देवान हो दुसरो धाडलो

**पिसो** : (पुलिसाच्या हातांतल्यान धा रुपया ओडटा... गणेश, जयेश त फुड्यांत येतात)

**पिसो** : *कितल्याय नेटान गाडी चलय,*

*आमका देव पावला, देव पावला।*

*आनीक नेटान गाडी चलय,*

*तो पळय यम रावला (हांसता) ।।*

**गणेश** : शी... खंय सापडले रे आमी?

**पुलीस** : मात्शें एक काम करात, उपकार जातले (पिशाक घट्ट धरता) अ णव जाल्यांत. तुमकां पांच जावचे पयलीं पणजे पावूंक जाय मरे? हे पळयात... हें... तें दिसता पळय तें घर ह्या पिशाचें. पूण तो न्हय... एक बऱ्यापैकी शिकिल्लो भुरगो तो. पदवीधर! एका हॅल्मेट नासतना गाडी चलयतना ताची तकली रस्त्यार आपटल्ल

म्हजोच भाव तो... थाकलो... मात्शे म्हज्या घरा येयात... (चौगूय वतात. पुलीस मोबायला वयल्यान सायबाक कळयता)

## देखाव - 3

(ल्हानशें घर... एक ल्हान भुरगें, एक विधवा बायल. गणेश, जयेश, पुलीस, पिसो भितर सरतात)

लीस : ही म्हज्या मदल्या भावाची बायल. हें ल्हान चली म्हजी पुतणी, आनी हो पिसो म्हजो तिसरो भाव. (हांसता) तिसरो भाव, पदवीधर... तो सदांच हॅल्मेट घालपी. त्या एकाच घातमान्या दिसा ताका इंटरव्यू खातीर बेगीन पणजे पावपाक जाय आसलें. हांव ड्युटेर आसलों कुठ्ठाळे. म्हजो मदलो भाव हाका घेवन बायकान पणजे वचपाक भायर सरलो. हावें कुठ्ठाळे दोगांकूय आडायले... म्हणलें सवकास वचात... वा बशीन वचात... हावें तांकां सोडले, पूण मरणान गाठले, शिरदोनां चडावार मुंबय वचपी बस आनी हांची टू व्हिलर... मदलो भाव जाग्यारूच सोंपलो... हाचे तकलेक मार बसलो, जिवो आसा कांय कितें करता तें कळना... फायदो कितें? हावूच सांबाळटां. त्या एका दिसा जर ड्युटेर हावें तांकां आडावन तालांव दिल्लो, गाडी थंयच दवरून बशीन धाडिल्ले जाल्यार... म्हजी भाभी विधवा जावंची नासली... पुतणी अनाथ जावंची नासली... म्हजो भाव पिसो जावंचो नासलो (रडटा).

## देखाव - 4

(कोलवा सर्कल)

येश : सर, इतलें व्हडलें दुख्ख काळजांत घेवन तुमी ड्युटी करतात... लोकांक मार्ग दाखयतात.

णेश : सर... आमचें चुकलें... आजुनूय आमी पणजे पात्रतले... बसी आसात

न्हय... गाडी हांगाच दवरतां. सॉरी हां सर... येतात आमी..

पुलीस : (दोगांकूय) कितेंय आसू, तुमी मेळिल्ल्यान म्हत्शें काळीज करपाक मेळ्ळें. पूण वचचे पयलीं एकूच सांगपाक सोदतां.. दुसऱ्या गाडी चलयतल्याक रेस्पेद दियात. आपोआप... दुस चलोवपीय तुमकां रेस्पेद दितले... सांबाळून बचात. (पुलीस करपाक लागता, गणेश, जयेश वतात)

(सोंपता)



# वळख

"विकर्ण गुरुदास सि
खांडेपारकर" सोंशीक आनी सुस्व
तरणाटो. संस्कृतीचे दायज लाबिल्या शि
सारख्या सोबीत गावांत ताचो जल्म ज
कलेचो वारसो घेवन जल्माक आ
विकर्ण, भुरगेपणांत सावन रंगमाचये
नातें जोडून आसा. आपली पुलि
नोकरी आनी कुटूंबाची सेवा करूनय
साहित्य सेवेंतुय सदांच व्यस्त आसता.
कविसंमेलना वा नाटकां आनी हेर काय
आसता थंय आपली हजेरी न चु
लायता. "उगतें मळब" अ
"काव्यमैफल" हे संस्थेच्या संमेलनाक
म्हयन्याक चुकनासतना हाजीर रा
विकर्णाचो "रंग जिणेतलो" हो प
कविता झेलो उजवाडाक आयला.
अखिल भारतीय कोंकणी परीषदे
आपल्यो कविता आनी हेर कलाय स
केल्यांत "मार्ग" हे संस्थेन आयो
केल्या सर्तीत तांच्या "हेल्मेट अ
ट्रफीक" ह्या कोंकणी लघुपटाक इनाम प
जाला.

सुनिल पालकार